पुंडलीक नारायण नायक

## नाटचसाहित्य

### नाटकां

✻ खण खण माती ✻ रक्तखेव ✻ राखण ✻ सुरींग ✻ सूर्यसांवट
✻ देमांद ✻ मुक्तताय ✻ शबै शबै भौजनसमाज ✻ पिंपळ पेटला
✻ श्री विचित्राची जात्रा ✻ दायज ✻ चैतन्याक मठ ना
✻ आत्मवंचना ✻ परिक्रमा

### एकांकीसंग्रह

✻ गांवधनी गांवकार ✻ चौरंग ✻ आकाशमंच ✻ दिगंत
✻ वेंचीक कोंकणी एकांकी (संपादित)

### बालनाटच

✻ रानसुंदरी ✻ आळशांक वाग खातलो ✻ शिवाचो बळी

### लेखसंग्रह

✻ रंगपाट

# ATMAVANCHANA

*Drama*

*by - PUNDALIK NARAYAN NAIK*

प्रकाशन क्र. ५८



पयली उजवाडावणी :
डिसेंबर १९९६

उजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें
गोंय : ४०३४०१

छापपी :
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय, फोंडें
गोंय : ४०३४०१



मोल : ३०/- रुपया

आई – लक्ष्मीक –
तुजें अशिक्षितपण
पुताची कोंकणी घडोवपाक
उपकारा पडलें.

– दादा

"आत्मवंचना" नाटकाचो पयलो प्रयोग रंगसांगाती, वळवय हे संस्थेन १७ व्या कोकणी नाटयमहोत्सवांत ता. ३० ऑक्टोबर १९९२ दिसा सां.७.०० वरांचेर पणजे गोवा कला अकादमीच्या श्री. दिनानाथ मंगेशकर कला मंदिरांत सादर केलो.

पयल्या प्रयोगाच्या यशाचे धनी

दिग्दर्शिका : ज्योती कुंकळकार

नेपथ्य : अक्षय धारगळकार

उजवाड : प्रेमानंद पोळे

संगीत : रामानंद जोशी / पुरूषोत्तम पै

गावपी : रजनी ठाकूर / पुरूषोत्तम पै

ध्वनी संयोजन : किरण केरकार

सूत्रधार : हेमा नायक

## नाटकांतले कलाकार

दिनानाथ : हिरू नारायण नायक

गोपिका : सुकांती हिरू नायक

पंकज : मोहन चांदेलकार

पल्लवी : विनंती कासार

केदार : पुरुषोत्तम पै

सुकडूमाम : काशिनाथ नायक

मेघःशाम : अशोक सातोर्डेकार

उद्धव : संदेश कळंगूटकार

निकी : गोविंद रायकार

## अंक - पयलो

(एका मध्यमवर्गी कुटुंबाचें घर. घराचें एक साल दिश्टी पडटा. सालांत बसपा - उठपापुरती साधन सामुग्री. आमोरेचो वेळ. तरनाटो पंकज बसून कसलेंतरी पुस्तकवाचता. तकली खाला आनी पांय वरशे केल्यात. भायरसून भक्तिगीताचे सूर आयकूंक येतात. शेजारचो जाणटेलो सुकडूमाम गायता.)

म्हज्या काळजाची पणटी पेटय
देवा म्हाका आत्मरूपा भेटय ।।

मन जाता पारपोळ गोरूं
मन सरावता रे चोरूं
अति आस मनाची पालय
पोट रे एका वेताची खळय ।।

मन जाता पाखरूं पाखरूं
ताका कशें कशें थातारूं
पायांक बंदपास वेढय
कृपेचो रंग पांखांर चडय

(पंकजाची आवय गोपिकाबाय घरांतल्यान भायर येता. तिच्या हातांत-तुळशी पेडयेर दवरपाखातीर निरांजन आसा. पंकजाची अवतिकाय पळोवन तिका राग येता. तरी आसतना तो तशीच मुखार सरता आनी तुळशी पेडयेर निरांजन दवरून येता. भक्तिगीताचे सूर तशेच आयकूंक येतात. गोपिकाबाय जनेलां बंद करता तेन्ना गीताचे सूर कमी आयकूंक येतात आनी मागीर केन्नातरी बंद जातात.)

गोपिका : पंकज, आमोरी जाली.

(पंकज फकत पावलां हालयता.)

हांव उलयतां तें तुका आयकूंक येता न्हय ?

(पावलांनीच हयकार दिता.)

हांव तुज्या पावलांकडेन उलयना. तुजेकडेन उलयतां. आमोरी जाली.

पंकज : सुकडूमाम गायतालो त्या कांतारावयल्यान समजलें, आमोरी जाली.

गोपिका : सुकडूमाम गायता तें कांतार न्हय, अभंग तो. कांतारां कांय गीतां तीं, तो. तुजी भयण गायता तीं.

पंकज : म्हाका सगळें सारकें.

गोपिका : आमोरेच्या वेळार असो बसना.

पंकज : कित्याक ?

गोपिका : परतें विचारूंकच जाय ? आरे, आमोरेच्या वेळार घरांत लक्ष्मी येता.

पंकज : (उठत) कोण लक्ष्मी ?

गोपिका : (तिडकून) मावशी तुजी ! देवी लक्ष्मी. विद्येची देवी सरस्वती तशी दुडवांची देवी लक्ष्मी. धनलक्ष्मी.

(दारांत वचून वाट पळयता.)

पंकज : येवपाची जाली ? तूं वाट कोणाची पळयता ?

गोपिका : तुज्या बापायची. आनी पल्लवीचीय.

पंकज : हांव समजलों, लक्ष्मीची वाट पळयता.

गोपिका : हांव करतां लक्ष्मीची भक्ती आनी प्रार्थना. पूण तूं अशेतरेन म्हाका लक्ष्मीची वाट पळोवपाक लावं नाका.

पंकज : म्हणजे ?

गोपिका : म्हणजे कितें ? नाकांत दोरी घालून बैलावरी शिकोवं ? सारको शीक. तुजी भयण पल्लवी पळय कशें कॉलेजीक पावलें. बरो शिकून जोडूंक लागतलो तेन्नाच लक्ष्मी प्रसन्न जातली. हातांत दुडू घोळटलो.

पंकज : तशे आतांय म्हजेकडेन दुडू घोळटात.

गोपिका : नाक वयर करून सांगता पळय कसो ! पैशे घोळटात ! कोणाचे जोडीचे ? तुजो बापूय पळय कशे कश्ट उसपिता. आतां पेलना तांकां. तांचें जाणटेपण जालें आनी तुजें नेणटेपण आजून सोपूंना.

(परत दाराकडेन वचून वाट पळयता.)

दुसऱ्याक हुस्को जायसर इतलो कळाव कित्याक करता कळना !

पंकज : हेरांसारकें तागेलें ऑफीस न्हय. तागेलें तें संगीत विद्यालय. तांकां वेळाकाळाचें भान नासता. पदेवपाक लागले जाल्यार पदेत आसतात.

गोपिका : तुजो बापूय गायत बसता तर !

पंकज : बाबा गायना. पूण बाबाची नोकरी वेवस्थापकाची म्हणटकच सगळें सोंपसर ताका रावचें पडटा.

गोपिका : (परत वाट पळयत) ह्या पल्लवीकूय वेळाकाळाचें भान ना. बापायचे बडीर गेलां.

पंकज : पल्लवीताईक आयज कळाव जातलोच. तागेले कॉलेजचें आयज गॅदरींग. आनी वांगडा सुकडूमामालो केदार आसा. गॅदरींगाक तांचीं पदां आसात खंय.

गोपिका : तूं गेल्यार खरो आसलो. तुका भयणिची तोखणाय म्हण ना.

पंकज : आमच्यो तोखणायो कोण करता ?

गोपिका : तोखणायो करपाक कसलो पराक्रम केला तुवें ? पांच वरशे करून बसता तीं नाडेपेन्ना मात पळोवपाचीं. पल्लवी बरें ऽऽ

गायता म्हण ताची तोखणाय.

पंकज : तसो केदारूय बरो-ऽ ऽ गायता.

गोपिका : गायताच. ताका बापायचें आयलां. पल्लवी आनी केदार दोगांय गावपी म्हण तांगेली इश्टागत.

पंकज : बा, म्हाका कोणाचें आयलां ?

गोपिका : कितें

पंकज : (तकलेर बोट मारून) हें जडपण.

गोपिका : तें आमचें कोणाचें न्हय. तें तुजें स्वतःचें. समजलें ? (भायर वचपाक वता) हांव शेजरा सुकडूमामागेर पासय मारून येतां. रात्रींत उजो केला काय म्हण देवाक खबर ! नाजाल्यार गावंक बसला थंय तसोच गायत बसतलो.

पंकज : हावें सांगूना तुका, ह्या पदेवपी लोकांचें तशेंच.

गोपिका : सुकडूमामालें गावप तसलें न्हय. तो देवाखातीर गायता.

पंकज : आसूं येता. पूण कांय जाण देवचाराखातीर गायतात आसूंक जाय. केदचा व्हडल्यान बोबो मारतात !

गोपिका : येतां हांव. खंय भायर सरूं नाका.
(गोपिकाबाय भायर वता. पंकज हातांतलें पुस्तक दवरपा खातीर भितर वता. कांय वेळान पल्लवी आनी केदार भायरसान येतात. तीं आताच कॉलेजच्या गॅदरींगाकसान आयल्यांत. पल्लवीच्या हातांत जिखून हाडिल्लो कप आसा. पल्लवी खूब खोशी दिसता.)

पल्लवी : (उलो मारून) बा, बाबाऽऽ
(घरांत कोणूच ना तें पळोवन निरशेता.)
केदार, हावें तुका वाटेर सांगिल्लें तें आतां पटलें न्हय ?

केदार : कितें तें ?

पल्लवी : ह्या घरांत म्हजे कलेची कोणाकूच तोखणाय ना.

केदार : अशें कशें म्हणू येता ?

पल्लवी : हातच्या काकणांक हारसो जाय ? पळय, घरांत नदर मारून पळय. कोण एक ना.

केदार : तुजें कितें म्हणणे ? तूं सतित कप जिखून हाडटलें म्हण

ताणी दारार येवन रावपाचें ?

पल्लवी : (सुस्कारत) ताका नशीब लागता !

केदार : पल्लवी, दिव्याची पेट्टी वात गरजेभायर व्हड केली म्हण उजवाड मोटो जायना. फकत काजळी वाडटा.

पल्लवी : म्हणजे ?

केदार : तुका यश मेळ्ळां खरें पूण तें एका ल्हानशे संतितलें यश हें विसरूं नाका. तुज्या उमेदीच्या बोमाड्याक गरजेभायर फूग घालशी जाल्यार तुजीच फजेत जातली.

पल्लवी : तूं आमच्या प्रोफेसर साखरदांड्यासारको फिलोसोफिचो प्रोफेसर जावपाचो. बगीच म्हजेसारको गावपी जालो.

केदार : पळय तीच चूक तूं परत परत करता.

पल्लवी : कसली चूक ?

केदार : तूं चूक करता आनी तातूंत म्हाकाय ओडटा.

पल्लवी : सांग, बेगीन सांग. हांव चुकता जाल्यार चुकूं. पूण म्हजे चुकींत तूं घुस्पल्लो म्हाका नाका, निखालस नाका.

केदार : हांव जाणां, तुका वायट दिसलें.

पल्लवी : ताची पर्वा नाका तुका. म्हजी चूक सांग.

केदार : तूं अशेतरेन विचारता की – तुज्या हातसून केन्ना चूक घडपूच शक्य ना.

पल्लवी : अशें हावें केन्नाच म्हणूक ना. चुको न करपाची शेखी तुज्यासारक्या हुशार मनशान मिरोवं येता. म्हजेसारके सामान्य चलयेमनशेन न्हय. आयज गॅदरींगाक गायिल्ल्या आमच्या जोडगीताचें सगळें श्रेय तुकाच. तातूंत कितेंय चुकलां आसत जाल्यार म्हजेंच. कारण तुजेसारको हुशार गावपी कसो चुकूं येता ?

केदार : हीच चूक हांव तुजे नदरेक हाडून दिवपाक सोदी. पूण तुवें मुयेचो दोंगर आनी वेजाचें वांव केलें. (समजायत) पल्लवी, हांव आनी तूं दोगांय गायतात खरीं पूण आमी गावपी म्हणपाइतलीं जावंनात. तूर्ताक आमकां गायन कलेची आवड आसा इतलेंच म्हणू येता. म्हजो आबा,

तुमचो सुकडूमाम फाटलीं तीस पस्तीस वर्सां भजनां गायता पूण उलयताना सांगता, ह्या भजनांतलें गमभन आपणाक निकतेंच होलमुपाक लागलां. हांव कितें सांगपाक सोदतां तें कळ्ळें न्हय तुका ?

पल्लवी : तितलें कळटा म्हाका. म्हणजे संगीतांतलें ना कळूं पूण हरशीच्या वेवहारांतलें गमभन कळटा म्हाका.

केदार : तुजो अहंकार दुखावलो पूण म्हजो तो उद्देश नासलो.

पल्लवी : उलोवपाच्या ओगांत हावें आमकां गावपी अशें म्हळें खंय सभेमाजार आड्डी मारून सांगूना वो धोलकें बडोवन गांवभर पेरगांव घालूंना. आनी मनशाक आपणालें कलेचो अभिमान आसत हातूंत कितें चूक आसा अशें म्हाका कांय दिसना. (खोंचून) अर्थांत हें म्हजें समजुपाचे तांकीप्रमाण.

केदार : (सुस्कारत) खरें म्हळचार अजापाचीच गजाल.

पल्लवी : कसली ?

केदार : आमचे दोगांयचे सूर जुळटात ही गजाल खरी. पूण सभाव मात जुळना आनी तरीलेगीत आमची इश्टागत तिगून आसा.

पल्लवी : दोन वझरे एकामेकाक मेळून उदकाचो एक पाट जाता. तसो योगायोग घडून सभावीकपणान आमचो सूर जुळ्ळा आसूंक जाय आनी इश्टागत म्हणशी जाल्यार तूं हांव शेजारी. एकाच कॉलेजांत शिकतात म्हणून नाइलाजान म्हणटात तशीं आयल्यांत एकठांय, इतलेंच.

केदार : म्हणजे हें सगळें आडेचें ?

पल्लवी : कितें ?

(केदार निर्जीप जाता. कांय वेळान उलोवपाक लागता.)

केदार : (कांयसो उदास जावन) फकत सूरच न्हय. तीं उतरां लेगीत जुळटात आमचे कडेन.

पल्लवी : खंयचीं उतरां ?

केदार : त्या गीताचीं उतरां, कांय खिणांआदीं कॉलेजच्या गॅदरींगांत, शेंकड्यांनी प्रेक्षकां गवाय दवरून आमी गायिल्ल्या त्या

गीतांचीं उतरां. गीत आयकताना तरनाटे चले चलयो एकमेकाक दोळे मोडटालीं आनी जाणटेले दादले आनी बायलो नकळटाना दोळयांत दूक झडयताल्यो. कोणांक दिसताली ती आपलीच व्यथा, फायच्या प्रेमभंगाची आनी कोण यादीन आकूळपिकूळ जाताले फाटलो प्रेमभंग येवजून. म्हाका मात दिसलें, ते व्यथेचेर फकत म्हजोच अधिकार आसा हेर कोणाचोच ना.

पल्लवी : तुजेपरस वेगळें अशें म्हाकाय कांय दिसूंना,
(दोगांय फाटल्या प्रसंगांत एकरूप जातात. ताणी गायिल्ल्या त्याच जोडगीताचे सूर तांच्याच कानार सादतात वो तींच गावपाक लागतात. गीतांतल्या आशयाप्रमाण तांच्यो भाववृत्ती प्रगट जातात)

तो आनी तें : फुटलीं फुटलीं सावरीचीं बोणां
आनी वाऱ्यार हुबलीं मनां ॥

तो : सकाळच्या पारार, आयलें तूं दारार
सांगून गेलें कानांत
मोगा आसलें जें तुज्या मनांत

तें : सकाळच्या पारार, आयलो तूं दारार
सांगून गेलो कानांत
मोगा आसलें जें तुज्या मनांत

तो : फुलाच्या गंधाची, फुलाच्या रंगाची
तुजेकडेन सर्त ना
असलो मोग लाबला कोणांक

तें : जिणेच्या सुखाक, जिणेच्या दुखाक
तुज्याबगर अर्थ ना
असलो मोग लाबला कोणांक

तो : सांजेच्या वेळार भेटलें तूं मळार
नदरेक नदर ना
तुज्या हाताक पांचवीं कांकणां

तें : सांजेच्या वेळार भेटलो तूं मळार
नदरेक नदर ना
मोगा दुसऱ्याचें जालें केन्ना

(गीत सोंपतकूच पंकज भितरसून भायर येता. येनाफुडें थंय दवरिल्लो कप ताचे नदरेक पडटा.)

पंकज : वा ! वा ! कप. कोणतरी हिसपांभायर फांस धांवला देखून ताका हो लाबला. नाजाल्यार कोणेतरी माल्ल्या आसतली उंच उडी वयर आनी मागीर पडला सकयल, देखून ताका हो मेळ्ळा. नाजाल्यार खेळ्ळा आसतलो कोणूय बरो गड्ड्यांनी नातर कोयण्या बालांनी.

पल्लवी : जांव, आमच्या पंकजाक फकाणां मारपाक एक तरी विशय मेळ्ळो.

पंकज : पल्लवीताई, ह्या कपाचो धनी कोण ?

पल्लवी : मळबांतली घोण !

केदार : आरे, पल्लवीक मेळ्ळा तो कप. गावपाखातीर.

पंकज : अशें ? अभिनंदन ताई, कॉंग्रेच्युलेशनस् (हात दिता)

पल्लवी : आनी केदाराकूय मेळ्ळा कप.

पंकज : वा ! अभिनंदन, कॅंग्रेच्युलेशनस्. (केदाराक हात दिता.) केदार, तुजो कप केदो आसा ?

पल्लवी : (केदाराकडेन बोट दाखोवन) हो कप ताचो.

केदार : (पल्लवीकडेन बोट दाखोवन) हो कप ताचो.
(पंकज गोंदळटा.)

पंकज : हें पळयात, म्हाका सारकें सांगात, इतलो धुस्पागोंदळ पेलपाची शक्त ना म्हजे तकलेची. नाजाल्यार तुमच्या मुखार हांव घुंवळ येवन पडटलों. एक गजाल म्हाका समजली. ती म्हळचार, एक कप आसा आनी दोन मनशां आसात एक कप दोन मनशांचो जावं नजो. जाल्यार हो कप दोगांमदल्या कोणाचो ?

केदार : दोगांयचो.

पल्लवी : गॅदरीगांत आमी गायिल्ल्या जोडगीताखातीर आमकां तो मेळ्ळा.

पंकज : पूण दोगांक एक कप म्हणजे ?

केदार : सर्त आशिल्ली गीतांची. पूण गीत एकल्यान म्हणचें वो

एकापरस चड जाणांनी म्हणचें हाचेर बंधन नासलें. पयल्या येवपी बऱ्यांतल्या बऱ्या गीताच्या गायनांक हो कप आसलो. आमच्या जोडगीताक तो मेळ्ळो.

पंकज : आतां ?

केदार : आतां कितें ?

पंकज : आतां ताचें कितें करपाचें ?

केदार : कितें करपाचें म्हणजे ? इनाम मेळिल्ल्या असल्या कपांचें कितें करतात ?

पंकज : कितें करपाचें म्हणजे ताचे कुडके कशे करपाचे काय म्हणटां हांव ?

पल्लवी : तसली तोडफोड करपाक तूं बरो आसा.

केदार : कुडके कित्याक करपाक जाय ? तो कप तसोच आसतलो.

पंकज : बरें, अख्ख्याचो अख्खो तसोच आसलो जाल्यार उरतलो कोणाकडेन ?

पल्लवी : केदाराकडेन उरूं येता.

केदार : पल्लवीकडेन उरूं येता.

पल्लवी : वो कांय तेप म्हजेकडेन उरूं येता.

केदार : वो कांय तेप म्हजेकडेन उरूं येता.

पंकज : (गोंदळटा) कांय तेप म्हजेकडेन कांय तेप तुजेकडेन ... आरे, तें कितें सरकार? हो कप फुडाराक तुमकां तकलीफोड थरतलो. बरोवन दवरात. (आडचो भाव खावन) तुमी म्हाका बिनंती केल्यार म्हज्यान हाचेर उपाय सुचोवं येता. (पल्लवी आनी केदार ओगीच रावतात) तुमी दोगांय ओगी रावल्यांत हाचो अर्थ हांव, तुमी म्हाका विनंती केल्या असो घेतां. कारण आपल्यापरस ल्हान आशिल्ल्या मनशाक विनंती करपाक जिवार येता तें हांव जाणां. खरें न्हय पल्लवीताई ;

पल्लवी : सुचय, तुगेलो उपाय सुचय.

पंकज : आमच्या आनी केदाराच्या घराक मदीं एकूच वणत आसा. हो कप वणटीच्या मदें दवरप.

(दोगांय हांसतात.)

हो विनोद जालो. आतां उपाय सांगता. दोगांयनी एक जोडगीत गावन एक कप जोडपाचो चूक तुमी केल्याच. आतां ती चूक निस्तरपाखातीर आनीक एक चूक तुमकां करची पडटली.

पल्लवी : आनीक कसली चूक ?

(पंकज खोंचक तरेन हांसता.)

(भायरसून गोपिकाबाय येता.)

गोपिका : आरे, तुमी केन्ना आयलीं ?

केदार : आतांच.

पल्लवी : ना, खूब वेळ जालो.

गोपिका : जांव येता. शेजराक सुकडूमामाचे खबरेक गेल्लें. सदचे सारको गायत बशिल्लो. हांव वतकच उठलो. रातच्या जेवणाखातीर चुलीर आदनाक दवल्लां. केदार लक्ष दी आं.

केदार : तुमी कित्याक कश्ट घेतले ? हांव येवन सगळें करतलो आसलो.

गोपिका : कश्ट रे कसले ? शेजार सांबाऱ्यांचीं कामांच तीं. आनी म्हळें, तुमी गॅदरींग सोपोवन केन्ना परतता कोणाक खबर?

पंकज : बा, तीं रित्या हातान परतूंना. हो जोडकप पळय.

गोपिका : जोडकप ? (पळोवन) आवय्यस ! कोणांक मेळ्ळा ? म्हजे पल्लवीक ? हांव जाणांच आसलें, म्हजें पोर नांव काडटलें म्हण.

पंकज : बा, हो कप एकाच गीताखातीर दोगांकूय मेळ्ळा.

गोपिका : म्हणजे आमच्या केदारकूय मेळ्ळा ? (पंकजाक) हावें सांगूंक नासलें तुका, केदाराक बापायचें आयलां म्हण ?

केदार : ताईबाय, लोकांनी आयज पल्लवीची खूब तोकणाय केली. गीत सोंपतकूच ताळयांचो गडगड सुरू जालो.

पंकज : सगळयो ताळयो पल्लवीकूच म्हण तुका कशें कळ्ळें ? तुवें ताळयो वेगवेगळयो काडून मेजल्यो काय कितें ?

गोपिका : दुसऱ्याक व्हडपण दिवपाची ताची संवंय ती.

पंकज : तिवूय ताका सुकडूमामाकडसून आयल्या जावंक जाय.

गोपिका : कोणाकडसून येवं. तुवें ताची देख घेवं येता. समजलें ?

केदार : पल्लवीच्या तोखणायेची गजाल हांव बळयां घडोवन सांगना ताईबाय. खऱ्यांनीच सांगतां. गीत सोंपनाफुडें लोकांनी सभाघर माथ्यार घेतलें. नाजाल्यार विचारात कोणाकूय.

गोपिका : तूं सांगतकूच आनीक दुसऱ्याक कित्याक विचारूंक जाय ? (पल्लवीक वेंगांत घेवन) गुणाची म्हजी धूव ती. नदर लागूना जाल्यार पुरो कोणाची नाजाल्यार दीश्ट काडपी हांव म्हजे धुवेची.

केदार : (पल्लवीक) आनी ती गजाल सांग मगो ताईबायक.

गोपिका : कसली गजाल ?

केदार : गीत सोपून रंगपाटात येतकच कितें घडलें ?

पल्लवी : आंवय ! ती गजाल रे ? लजशी.

केदार : सांग तरी.

गोपिका : सांग गो पल्लवी.

पल्लवी : आगे गीत सोपून भितर मात सरल्यांत. कोण एकलो म्हजेमुखार प्रगट जालो.

पंकज : प्रगट जालो ? पयलीं देव बी प्रगट जातालो तसो ?

पल्लवी : हय रे असो अकस्मात सो मुखार उबो जालो.

केदार : कसो दिसतालो तो सांग मगो.

पल्लवी : हांव इतले बारीकसाणेन पळोवपाक बशिल्लें ! सुंदर आसलो खरो. कोण गिरेस्त आसूंक जाय. ताका गीत खुबच मानवल्लें. ताणे तोंड भरून अभिनंदन केलें. इतलें की, तो सारको उलोवपाकूच शकलो ना.

केदार : बरोबर. केदोत्रेळ हांव पळयतूच उरलों. आनी मागीर गर्दी जाली.

पंकज : म्हणजे अभिनंदन फकत तुजेंच केलें ? केदाराचें केलें ना ?

गोपिका : विसल्ला आसतलो.

पल्लवी : बरोबर. आपणाक विसल्ला आसतलो. (पंकजाक तिडकून) पूण ताणें अभिनंदन केल्लें तें मनापासून. तुज्या सारक्यो

माकडभासो करून न्हय, समजलो ?

पंकज : हावें माकडभासो करूं नाजाल्यार भिकारभासो करूं पूण ताचेसारको हावें भेदाभेद करूंना. अभिनंदन म्हणजे अभिनंदन.

पल्लवी : तुज्या असल्या पोक्या अभिनंदनांचेर आसा हांव !

पंकज : म्हणजे त्या गिरेस्तालें अभिनंदन भरिल्लें आशिलें ? ह्या हातान भेटवण आनी दुसऱ्या हातान अभिनंदन ?

गोपिका : असल्या कार्यक्रमांत अभिनंदन करताना कोण भेटो घेवन येतात ?

पंकज : तशाच हेतून वचपाचें आसल्यार वांगडा भेटो घेवन वचूं येता.

पल्लवी : म्हणजे कशें ?

पंकज : म्हणजे जर पयलींच थारायलें, गॅदरींगाक वचपाचें. पल्लवीचें आनी केदाराचें गीत गावन जातकूच तातूंतल्या फकत पल्लवीचेंच अभिनंदन करपाचें. जाल्यार मागीर वांगडा भेटूय व्हरूं येता.

पलवी : (तिडून) पंकज, चड जालें तुजें.

गोपिका : तूं ताच्या तोंडाक कित्याक लागता ? तो पडला बेकार. (पल्लवीक) यो भीतर. (भीतर वता.)

केदार : हांवूय वतां.

पंकज : हो कप ?

पल्लवी : केदार, सुकडूमामाक दाखय व्हरून तो.

केदार : मागीर व्हरतां, पयलीं तुमच्या बाबाक पळोवं दी. (केदार भायर वता.)

पंकज : पल्लवीताई, तुका राग आयलो ?

पल्लवी : राग येवपासारको उलयिल्लो मरे तूं ?

पंकज : उलयलो खरो पूण उलयलेबगर कशें रावूं येता ? असलो अन्याय कसो सोंसप ?

पल्लवी : तुजेर जालो अन्याय ?

पंकज : म्हजेर न्हय पूण केदाराचेर जालो ना ? गीत दोगांयनी

गायलां आनी अभिनंदन फकत एकल्याचेंच म्हणजे कितें ?

पल्लवी : (वितरागून) अभिनंदन! अभिनंदन! अभिनंदन! अभिनंदन म्हळयार स्रापूच जालो तो म्हाका.

(इतल्यांत भायल्या दारांत निकी येता. आंगान मातिल्लो हो आडसाठो तरनाटो. ताच्या हातांत फुलांचो एक किमती तुरो आसा आनी बोल्सांत ओडीओ कॅसेट.)

निकी : मिस पल्लवीचें घर हेंच न्हय ?

पल्लवी : आं, हय. हांवूच पल्लवी.

निकी : तें दिसताच. म्हणजे गॅदरींगाकसून तूं आयलां तें तशेंच आसा. सुंदर ! म्हणजे तुवें म्हणिल्लें तें गीत खुबूच सुंदर जालें. काँग्रेच्युलेशनस् म्हणजे अभिनंदन.

पल्लवी : थँक्यू.

(फुलांचो तूरो मुखार करता.)

पल्लवी : हें कितें ?

निकी : फुलां.

पल्लवी : तें दिसताच. पूण.

निकी : रित्या हातान केन्ना अभिनंदन करिना म्हण हीं फुलां.

पल्लवी : पूण तुजी वळख ना पाळख.

निकी : हांव निकी. मिस्टर निकी.

पल्लवी : मिस्टर निकी ?

निकी : येस मिस्टर निकी. म्हाका वळखना ? हांव उद्धवाचो इश्ट. सामको लागींचो इश्ट

पल्लवी : (गोंदळून) उद्धव ? कोण उद्धव ?

निकी : उद्धवाक वळखना ? (गाडयेचो नंबर सांगता. पल्लवीक कांय कळना. मागीर निकी एके फॉरेन गाडयेचें नांव सांगता. तरीय पल्लवीक कळना.)

पल्लवी : आमचे कॉलेजींत शिकता ?

निकी : उद्धवाक कॉलेजींत कित्याक शिकूंक जाय ? तागेर क्लार्क आनी मॅनेजर म्हण नोकरी करतल्यांनी शिकपाचें कॉलेजींत.

पल्लवी : हांव वळखना कोणा उद्धवाक.

निकी : ताणेच हीं फुलां धाडल्यांत.

पल्लवी : म्हणजे ?

निकी : म्हणजे व्हडळ उर्द्धवान कॉलेजच्या ग्रीनरूमांत येवन तुमचें अभिनंदन केलें खरें. पूण तेन्ना ताच्या हातांत कांय नासलें. ताका खूब खालतेपण भोगलें. अशी रित्या हातान अभिनंदन करपाची संवंय ना ताका.

पल्लवी : म्हणजे तो उद्धव आसलो ?

निकी : आं, आं. तोच उद्धव. आतां कशें वळखलें ?

पल्लवी : वळखलें म्हणजे आयज ताका पयलेच खेप पळयतां.

निकी : तूं पयलेच खेप पळोवं पूण तो तुका खूब आदीसावन पळयता.

पल्लवी : म्हणजे ?

निकी : म्हणजे कॉलेजींत येतना वतना. म्हणजे तो शॉपावयल्यान गाडी घेवन भायर सरताना तुमची कॉलेज सुट्टा. वो तुमची कॉलेज सुटटकच ताची गाडी भायर सरता.

पल्लवी : आसूं येता.

निकी : आसूं येता न्हय. तें तशेंच आसा. उद्धवाक म्युझिक जाम आवडटा. म्युझिका फाटल्यान तो सामको पिसो.

पल्लवी : म्हाकाय तशेंच दिसलें.

निकी : खरें तें. म्युझिका परसूय ताका म्युझीक करपी लोक, म्हणजे तुमच्यासारके गावपी लोक चड आवडटात. तुमच्या सारक्या थोडचा लोकांक ताणे विकते घेवंना ! म्हणजे तुमच्यासारक्या लोकांच्यो कॅसेटी आनी रिकोर्डी विकत्यो घेतल्यात.

पल्लवी : हांव तेदें गावपी न्हय.

निकी : न्हय कित्याक ? तूं बरें गावपी. उद्धवाक आवडलें न्हय तुजें गावप. म्हाकाय आवडलें. तुज्योय तसल्यो कॅसेटी आनी रिकोर्डी येवं येतात.

पल्लवी : तीं सपनां.

निकी : सपनां ? सपनां खरीं जावं येतात. (कॅसेट दीत) घे ही तुजो कॅसेट आयकून पळय. ही आयक आनी मागीर

लता मंगेशकराचें खंयचेंय गीत आयकून पळय. फरक कितलो आनी सारकेपण कितलें तें कळटलें.

पल्लवी : ही कॅसेट कसली ?

निकी : कसली म्हणजे ? व्हडळ तुवें गायिल्ल्या गीताची उद्धवान आपणाल्या रिकोर्डराचेर तुजें गीत टेप केल्लें. आसलें बरें म्युझीक रिकोर्ड करून दवरपाचो शौक ताका. ही कॅसेटूय ताणे तुका भेट म्हण दिल्या.

पल्लवी : म्हज्या गीताची कॅसेट ? खरेंच ? (कॅसेट घेता )

निकी : फट दिसता जाल्यार तुमच्या कॅसेट प्लेयराचेर वाजोवन पळय.

पल्लवी : शक्य ना. कारण हांगासर दळीद्र शेजरा शेजरा रावता.

निकी : ओ आय सी. बरो जोक वडयलो तुमी. दळीद्र शेजरा शेजरा रावता. उद्धवाक जोक खूब आवडटा. हांव ताका तेचखातीर जाय पडटा. तुमगेर वो शेजाऱ्यागेर कॅसेट प्लेयर नासलो म्हण कांय हरकत ना. हांव वेवस्था करतां. म्हणजे उद्धवाल्या बंगल्यांत कोणशा कोणशांनीं कॅसेट प्लेयर धुल्ल खायत पडिल्ले आसात. तुजेखातीर एकाची वेवस्था करूं येता.

पल्लवी : थँक्यू ! तुमी इतले त्रास घेतले ते खूब जाले. आनीक तसदी घेवं नाकात. रेकोर्ड प्लेयराची वेवस्था हांव करतां.

निकी : तुमकां आतांच आयकुपाची इत्सा आसल्यार तुमी म्हज्या वांगडा भायर रस्त्यार येवं येता. थंय गाडी घेवन उद्धव आसा गाडयेंत प्लेयराची वेवस्था आसा. थंयच आयकूं येता.

पल्लवी : म्हणजे उद्धव हांगासर आयला ?

निकी : हांगासर म्हणजे भायर गाडयेंत आसा.

पल्लवी : पूण हांगा कित्याक आयलो ना ?

निकी : ताचें कितें आसा मिस पल्लवी, अभिनंदन करपाक ग्रीनरूमांत येवप वेगळें आनी हांगासर अशें कोणल्या घरांत येवप वेगळ.

पल्लवी : कोणाल्या घरांत ?

निकी : कोणालें म्हणजे सदचाक तरी कोणालें घरूच जालें ना ? तसो तो म्युझिकलॅव्रर. म्युझिकाखातीर तो कितेंय करपी पूण सदचाक तो असो पयस रावता. म्हणजे तशें ताणे पयस रावपूच बरें.

पल्लवी : मर्जी तुमची.

निकी : बरें तर.

पल्लवी : थॅंक्यू फॉर यूवर कॉंग्रेच्युलेशनस ॲन्ड गीफ्ट.

निकी : नो मेन्शन प्लीज. ओ. के. सी यू मिस पल्लवी.

(वचपाक वळटा. इतलो वेळ तोंड धापून राविल्लो पंकज मुद्दम तोंड घालता.)

पंकज : ओ. के. सी यू मिस्टर दवलो.

निकी : (वळून) हॅलो ऽऽ

पल्लवी : (वळख करून दीत) हो म्हजो भाव पंकज.

निकी : (हात दीत) हॅलो मिस्टर पंकज.

पंकज हॅलो मिस्टर दवलो.

निकी : दवलो ? म्हजें नांव निकी. मिस्टर निकी. उद्धवास फ्रेंड. ओ. के. मिस पल्लवी. बाय.

(निकी भायर वता. पल्लवी ताका दारामेरेन पावपाक वता. तो पयस पाविल्ल्याची खात्री पट्टकच फाटीं वळटा. आतां तें पंकजाचेर राग काडटा.)

पल्लवी : तो आपलें नांव निकी म्हण सांगता आसतना तुवें ताका दवलो कित्याक म्हळो ?

पंकज : आयजवेर हावें बारीकमोटे इतले चमचे पळयल्यात पूण येदो व्हडलो चमचो केन्नाच पळोवंक नासलो. ताच्या रुपान तो हावें पळयलो देखून ताका चमच्याबदला दवलो म्हळो.

पल्लवी : घरांत आयिल्ल्या मनशाचो असो अपमान करप ?

पंकज : तूं गरजेभायर मनांक लावन कित्याक घेता ? ताका तो अपमान बी कांय एक दिसूंना. हावें कितें म्हळें तें ताका कळूंकच ना. आनी कळयारूय तो तुज्याइतलें मनांक लावन

घेवचो ना. फेंडाक मालीश करून, ताच्या बुटांक पॉलीश करून ताची कात दाट जाल्या जातली.

पल्लवी : खरें म्हळचार आमी दोगांय उलयताना तुवें मदीं तोंड घालपाची कसलीच गरज नासली.

पंकज : खरें म्हळचार तुवें म्हजी तोखणाय करपाक फाव.

पल्लवी : कित्याक ?

पंकज : कितलो वगत ताची बेबंद बडबड हावें मोन्यानी सोंसली. निमाण्या वेळार ताका हावें तोंड घातलां.

पल्लवी : मुद्दाम म्हणटा तशें.

पंकज : हय. मुद्दमच. नाजाल्यार म्हज्या मनांक समाधान भोगचें नासलें.

पल्लवी : तुज्या समाधानाचो अर्थ कळटा म्हाका.

पंकज : कसलो अर्थ ?

पल्लवी : तूं धाकलो भाव म्हणनासतना जळटा म्हजेर. म्हजी कोणे तोखणाय केल्लो तुका सोंसना. म्हाका कोणें बरें म्हळचार म्हजी तुळा तूं दुसऱ्याकडेन करता आनी म्हाका ल्हान करता.

पंकज : तुजी तुळा दुसऱ्याकडेन ?

पल्लवी : हय केदाराकडेन.

पंकज : केदाराकडेन तुजी तुळा कशी जावं येता ? केदार तुजेपरस कितलोसोच हुशार.

पल्लवी : केदार, केदार, केदार. आय हेट हीम.
(इतल्यान भायरसून दिनानाथ येता. तो पंकज आनी पल्लवीचो बापूय. ताच्या हातांत ल्हानशी पोती अ.सा.)

दिनानाथ : पंकज, भायर गाडी कोणाली आयिल्ली ? हांगासर कोण आयिल्लो ? (पंकज मोन्यानी भीतर वता.) बाय, म्हाका बी सोदपाक आयिल्लो कोण ?

पल्लवी : तुमकां सोदूंक येवपी गाड्यांनी येता ?

दिनानाथ : ना गो. पूण कोणूय गिरेस्त आसूं येता 'सुवर्ण विद्यालयां' त नांवां घालपाखातीर. थंय ऑफिसांत येवपाक मेळ्ळें ना

जाल्यार फावता तेन्ना माल्ली पासय ह्यांगासर.

पल्लवी : तुका मेळपाक कोण येवंक नासलो.

दिनानाथ : बरें जालें. हुस्को गेलो.

पल्लवी : म्हाका मेळपाक आयिल्लो.

दिनानाथ : तुका मेळपाक ? कोण ?

पल्लवी : उद्धव.

दिनानाथ : कोण उद्धव ?

पल्लवी : हांवूय ताका आजूच वळखतां.

दिनानाथ : आजूच वळखता ? आनी तोवूय असो घरा येवन ?

पल्लवी : तो घरांत येवना. ताचो इश्ट आयिल्लो. निको. तो गाडयेंत भायल्याभायर रावलो.

दिनानाथ : पूण ह्यांगा येवपाचें कारण कितें ?

पल्लवी : तीं फुलां आनी ती कॅसेट घेवन आयिल्लो.

दिनानाथ : कसलीं फुलां आनी कसलो कॅसेट ?

पल्लवी : वास घेवन पळय फुलांचो कितें कळटा जाल्यार नातर कॅसेट वाजोवन पळय कितें कळटा जाल्यार.

दिनानाथ : (धमकायत) म्हाका तुजीं फुलांय नाकात आनी तुजी कॅसेटूय नाका. म्हाका म्हज्या प्रश्नाची जाप जाय. सरळ सरळ जाप.

(पल्लवी दोनूय हातांनी तोंड लिपोवन हुंडक्या हुंडक्यानी रडूंक लागता. दिनानाथ मवाळ जाता.)

दिनानाथ : बाय पल्लवी, कितें जालां ? (ह्यांगा थंय नदर मारता.) हो कप कसलो ? (कपावयलीं अक्षरां वाचीत) पल्लवी, आयज कॉलेजांत तुमचें गॅदरींग आशिल्लें न्हय ? तुजें गीत जालें न्हय ? (खोशयेन) पल्लवी, त्याच गीताखातीर तुका हो कप फाव जाला ? म्हजे धुवे, उत्कृष्ट गावपाचें पयलें इनाम जोडलें तुवें ! (फाट थापटिता. पल्लवी व्हडाव्हडान रडपाक लागता.) हांव म्हणून कसलो बापूय ! धुवेची लक्तुबायेन वासपूस करपाचो तें सोडून येवचे येवन खोवले फाफुडले. चुकलेंच तें. म्हजें एक बरें आसा तुजे आवयन

तरी तोखणाय केली मगो तुजी ? काय तिवूय म्हजेचसारखी केंच केंच करून आंगार आयली ? (ना म्हण मान हालयता) आंगार आयली ना ? (परत ना म्हण मान हालयता) तोखणाय केली ! (हय म्हण मान हालयता) जांव तिणे तरी लज राखली

दिनानाथ : आनी आमचो शेजारी केदार फटवलो काय कितें ?

पल्लवी : ना.

दिनानाथ : ताकाय मेळ्ळें इनाम ?

पल्लवी : हय.

दिनानाथ : कितल्यावें ?

पल्लवी : पयलेंच. दोगांकूय एक कप. जोडगीत आसलें तें.

दिनानाथ : वा, वा ! दोगांकूय एकूच कप. खूप कवतूक जालां आसतलें!

पल्लवी : गीत सोंपतकूच ताळयांचो शिवर जालो.

दिनानाथ : आवय्स ! खरें म्हळयार आमच्या 'सुवर्ण विद्यालयां' त शिकपी जायत्या जाणांनी बरीच तयारी केल्ली. तुमच्याच कॉलेजाचीं भुरगीं तीं. गिरेस्तांलीं न्हय ! सांजच्या आदेसाक संगीत शिकपाक येतात. पूण आमचे पल्लवीमुखार कोणाचें कांय चल्लें ना.

पल्लवी : कारण हांव तुमच्या सुवर्ण विद्यालयांत संगीत शिकना.

दिनानाथ : पळय पल्लवी, म्हाका खूब इत्सा आसा तुका त्या संगीत विद्यालयांत घालपाची. पूण हांव त्या विद्यालयाचो वेवस्थापक जालों तरी पगारी नोकर आनी त्या संगीत वर्गाची फी म्हळयार आमच्या सारक्यांक पेलपाची न्हय. तरीपूण हांव यत्न करतलों. कारण तुजी आवड म्हाका खबर आसा. असलो कलेचो गूण म्हळयार कलेचें देणें कशें हांव यत्न करतलों म्हजे धुवेखातीर.

पल्लवी : (कॅसेट दाखयत) ही कॅसेट वाजोवन पळोवपाखातीर म्हाका एक कॅसेटप्लेयर जाय. म्हजें आयचें गीत आसा ताचेर.

दिनानाथ : तें कोणें रिकोर्ड केलें ?

पल्लवी : उद्धवान.

दिनानाथ : हो उद्धव कोण ? (याद करून) त्या मेघःशामालो पूत न्हय मू ? जाचीं बाजारांत दोनतीन हार्डवेअरचीं शॉपां आसात.

पल्लवी : तोच आसूंक जाय. ताका संगीताचो खूब शौक. गीत सोंपनाफुडें ग्रींनरूमांत येवन ताणें म्हजी तोंड भरून तुस्त केली. थंय कांय दिवपाक मेळ्ळें ना म्हण घरा येवन हीं फुलां दिलीं आनी ही म्हज्या गीताची कॅसेट.

दिनानाथ : ह्या गिरेस्तांक असल्यो गजाली करपाक आवडटात.

पल्लवी : म्हणजे ?

दिनानाथ : हांचेकडेन खेळणी कशो मोटारी आसतात, त्यो जाय तशो नाचयतात. उदक कसो पैसो आसता, जाय तसो शिंवरतात. सगळेच तशें नासतात खरें पूण आपलें आपूण शाबूर रावपाक जाय. घाळ रावपाक फावना.

पल्लवी : (तिडकून) म्हणजे हांव बेसावध आनी घाळ रावलें अशें तुजें म्हणणें. न्हय ?

दिनानाथ : अशें हावें म्हणूना.

पल्लवी : स्पश्टपणान तशें कित्याक म्हणपाक जाय ? ता म्हळ्यार ताकभात हें म्हाका कळटा. तितलें कुकुलें बाळ ना हांव आतां (कॅसेट कुशीक शेवटीता आनी फुलांचो तुरो पिसुडटा) म्हजी एक आवड पुरी करपाक तांकना. शेक मात गाजयता बापायचो. आपणाच्यान कुस्कुटाची लक्तुबाय करपाक जायना आनी दुसऱ्यान कितेंय केल्यार ताचेचकडेन दुबावी नदरेन पळयता. जसो कितें सगळ्यांचे नदरेंत आसता विखार आनी दर एके करणेंत स्वार्थ. दुसरें कांयच ना. दळिद्रांत लोळटकच मनशाचें मनूय जाता दिसता दळिद्री !

दिनानाथ : (तापून) पल्लवी, कितें उलयता तूं ? तुज्या तोंडाक सयसुवाद कितें आसा काय ना ?

(आवाज आयकून भितरसून गोपिकाबाय धांवत येता.)

गोपिका : कितें जालां ? तापता कित्याक ताचेर ?

दिनानाथ : उलयता पळय कशें, कासरो तोडिल्ल्या बैलान किरोवचें

तशें. एक इनाम लाबलें जाल्यार भुजांर फितां चडलीं ताच्या आनी तोंडार फुटल्यो ल्हायो, बेमुर्वतखोरपणाच्यो. हें कालचें पोर आमकां मनशांच्यो वळखी शिकोवपाक लागलें. इतले पावसाळे पळयले ते कितें सुकेच गेले ? दळिद्राची नसाय जाल्या ! जशें काय तें दळीद्र आमी आपूण जावन मागून घेतलां ! गिरेस्तकायेचे दुवाळे लागल्या ताका.

गोपिका : पूण घडलां तरी कितें ?

दिनानाथ : त्या कोणा गिरेस्ताच्या पोरांनी हाचेर खोशी जावन हाचेभोंवतणी चार फुलां घुंवडायलीं जाल्यार हें भुल्लें ! कोणाचो हात धरून वचपाकूय फाटीं ना !

गोपिका : कोणाचो हात धरून कित्याक काय म्हणटां. गुणांचें आनी शिस्तीचें पोर म्हजें. (समजायत) बाय, आमकां नाका कोणा गिरेस्तांची लगाडो आनी सगत. तुजो फुडार आमी बरेतरेन आंखला. पोरसांत फुलां आसतना गांवभर हेडपाची कसली गरज ना. म्हजें पोर म्हज्या दोळयांहुजरांच नंदतलें. (इतल्यान भायरसून दारांत केदार येता. ते बरोबर उलोवणें मदेंच थारता. केदार अनमनता.)

केदार : हांव, हांव तो कप व्हरपाक आयिल्लों. आबा तो पळोवपाक सोदता.

गोपिका : व्हर, व्हर. दाखय सुकडूमामाक. (केदार कप घेवन थंयच्यान कडसरता.)

गोपिका : पल्लवी, हांव कितें सांगता तें लक्षांत आयलें न्हुय ?

पल्लवी : हय, बरेबशेन. तूं आतां सांगता तें आनी तूं सुचोवंक सोदता तें सगळें लक्षांत आयलें. (धीर जावन) बा आनी बाबा, आतां हांव कितें सांगतां तें लक्षांत घेयात. म्हजी सादी गरज जर तुमी पुरी करपाक शकना जाल्यार म्हजे फुडार आंखपाचो तुमकां कसलोच अधिकार ना. हांव आतां सज्ञान जालां. म्हजो फुडार कसो थारावपाचो ते म्हजो म्हाका कळटा. तुमी येवजिता तशें हांव गिरेस्तकायेच्या नादाक लागलां अशें समजूं नाकात. पूण, एकूच सांगतां. म्हाका, एका रेंव्यांतलो पांय उखलून दुसऱ्या रेंव्यांत घालपाचो ना. (तडक भीतर वता. गोपिकबाय आनी दिनानाथ सुन्न जातात. शेजारच्या सुकडूमामाल्या भक्तिगीताचे सूर आयकूंक येतात.)

# अंक - दुसरो

(पयल्या अंकाउपरांत कांय दीस सरल्यात. आमोरेचो वेळ. पंकज फाटलेबशेन पांय बरशे करून बसला. कांय वेळान दारांत एक जाणटेलो येता. हो शेजारचो सुकडूमाम.)

पंकज : यो, यो सुकडूमाम, तुजी वाट पळयत बशिल्लो.

सुकडू : म्हजी वाट तूं पळयतालो ? कित्याक रे बाबा ? म्हज्या असल्या जाणट्याकडेन तुज्या असल्या तरनाट्याचें कसलें काम ? आनी केन्ना न्हय ती आयजुच शी म्हजी वाट पळयतालो ?

पंकज : आयजूच अशें न्हय, सदांच ह्या वेळार म्हणजे आमोरेच्या वेळार हांव तुमची कानांत तेल घालून वाट पळयतां.

सुकडू : दोळ्यांत तेल घालून वाट पळयतात तें आयकल्लें. हें कानांत तेल घालपाचें केन्ना आयकूं नासलें. आनी सदूदां ह्या वेळार म्हजी वाट पळोवपाक हांव हांगासर नित्यनेमान सदांच खंय येतां. हो वेळ –

पंकज : (मदींच) हांव सांगतां हो वेळ तुमचो देवामुखार कांतार

म्हणपाचो

सुकडू : देवामुखार कांतार ?

पंकज : न्हय, न्हय, कांतार न्हय. अभंग ... भक्तिगीत. ज्यूस्त ह्या आमोरेच्या वेळार तुमी गायतात आनी तेन्नाच हांव हांगासर आदेसभर फतकल मारून बशिल्लों आसता तो उठटां. म्हणजे आतां तिनसांज जाली म्हण म्हाका कळटा.

सुकडू : इतले दीस जालें तें जालें. आतां ह्यानफुडें म्हज्या भरवंशार असल्यो उठावशी नाकात.

पंकज : कित्याक ?

सुकडू : आरे, म्हजे आतां दस सरल्यात आनी पांचूय उरूं ना. पिकिल्लें पान खंयच्याय खिणांक झडूं येता. समज, तूं हांगासर सुकडूमामाच्या भरवंशार थपकल मारून बसलो आनी थंय शेजराक हांव तोंड उगडचे आदींच खंवसलो जाल्यार तूं हांगा बशिल्लेकडेन सुकलो ना ? तेखातीर म्हजो नाद सोड.

पंकज : सुकडूमाम, तुमकां येन्ना कांय एक जायना. तुमी आनीकूय जायतीं भजनां गावपाचीं आसात.

सुकडू : भजनां गावपाचीं ? आनीक आयकतलो कोण ? तुमी आतां ते डिस्को ... पोप ... झाज... हाचेफाटल्यान धांवता. आतां भजनां फकत देवामुखारच गावपाचीं. आनी म्हज्यान आतां आदलेवरी खंय जाता ? नाजाल्यार सप्ताह, पार, श्रावणी सोमार सगळ्याक आसतालों. आतां जिवाच्यान प्रवासूय झेपना आनी जागरणांय सोंसना.

पंकज : जागरणाचें तुमी पळयात, तुमच्या प्रवासाचें हांव पळयता.

सुकडू : प्रवासाचें म्हणजे ? कितें गाडीबी घेवपाची आसा काय कितें ?

पंकज : हय, मनांत धांवता. मागीर केन्ना येता तें पळोवया.

सुकडू : कितल्या चक्रांची ?

पंकज : कितल्याय चक्रांची आनी कितल्याय सिटांची जाव. तुमकां एक सीट मेळ्ळी म्हणटकच जालें. मागीर तुमचे सप्ताह, पार, सोमार सगळें उजोवन काडूया.

सुकडू : तुजी इत्सा मात लक्तुबायेची. काड, बापायचें नांव वयर काड.

पंकज : नांवां वयर काडपाचें कंत्राट तुमच्या केदारान आनी आमचे पल्लवीन घेतलां. तें काम आमच्यासारख्यांचें न्हय.

सुकडू : कित्याक न्हय ?

पंकज : म्हाका तसलें गावपाक बी खंय कळटा ?

सुकडू : तो जालो कलेचो भाग. तुज्यान दुसरें कसलेंय कर्तृत्व करून दाखोवं येता. निदान स्वताच्या पांयार उबें रावपाचें तरी

पंकज : तसो हांव आतांय म्हज्याच पांयार उबो आसा.

सुकडू : तुजेकडेन आनीक कितें उलोवपाचें ? कसले दिवे लायता ते पळोवया.

(इतल्यान भितरसून गोपिकाबाय तुळशी पेडयेर दवरपाचें निरांजन घेवन येता.)

पंकज : आमोरी जाली म्हणपाची ही एक खुणा. सुकडूमाम तुज्यान हांगासर बसून गावं येता.

सुकडू : तुका अडचण जातली.

पंकज : ना जावंची.

सुकडू : हरशीं दोळ्यांआड मसण पाड. हांव गायताना म्हजे अस्वडी बकच्छायो करप सोपें. म्हज्या तोंडार फकाणां करप तुका त्रासाचें जातलें.

पंकज : कांय हरकत ना. तितले त्रास घेवपाक हांव तयार आसां.

गोपिका : (निरांजन दवरून येता) वडील-जाणटे म्हण भोड-मुर्वत कांय एक ना. पारपोळपणां चलल्यांत.

सुकडू : दिसूच भुरग्यांचे.

पंकज : तशें जाल्यार तुमी दोगां जाणटेलीं हांगासर एका महत्वाच्या प्रश्नाचेर उलयतात अशें मानून हांव नेणटेलो तुमच्या मुखार रावना. भायर वतां.

सुकडू : घरांतल्यान कूस मारपाक ही लबाडी बरी.

गोपिका : चड रात करूं नाका.

(पंकज भायर वता.)

सुकडूमाम, कसलें खास काम आसलें काय सहज आयिल्ले?

सुकडू : म्हळचार खास काम नाजाल्यार सहज.

गोपिका : म्हणजे ?

सुकडू : ह्या दिसांनी तूं आमगेर येवंना.

गोपिका : (मखलाशी करीत) येवनां खरी. घरांतल्या कामाचे दाढेक वेळूच मेळना.

सुकडू : हें सांगताना उतर दाढेक वता खरें,

गोपिका : ना, सुकडूमाम तशें काय ना.

सुकडू : तशें म्हणजे ?

गोपिका : तशें म्हणजे तुमी येवजिता तशें न्हय.

सुकडू : कितें येवजिता हांव ?

(गोपिकाबाय गडबडटा.)

गोपिकाबाय, पावसाळे फकत तुवेंच पळयल्यात अशें न्हय. हावेंय पळयल्यात. तुजेपरस, चडच. ह्या दिसांनी आमच्या शेजार धर्माक वादा आयल्या खरी. म्हजें वा म्हज्या केदाराचें कितेंय चुकल्यार सांगात. तुमचेपरस आमचो लागींचो सांगाती दुसरो कोण आसा?

गोपिका : आनी तुमचो म्हण आमकां थोडो आदार जाता ? दीसभर जाग उरता. पल्लवी केदाराबरोबर भायर सल्यार जीवाक हुस्को उरना.

सुकडू : फाटले कांय दीस तीं दोगांय वांगडा भोंवना हें तुमचे नदरेक आयलां आसतलें. अर्थात हावें केदाराक कांयच विचारूंना कारण हांव ताचो बापूय जालों तरी इश्ट न्हय.

गोपिका : तशें हावेंय पल्लवीक विचारूंना

सुकडू : म्हणजे तुमचे नदरेक आयलां तर–

गोपिका : हय तर. हरशीं कॉलेजीक वतना-येतना तीं एकामेकाक पातयेवपी न्हय.

सुकडू : म्हाका ही गजाल बरी दिसना.

गोपिका : सुकडूमाम, तुमी इतलें मनाक लावन घेवं नाकात. दोगांमदीं कितेंतरी वितुश्ट उप्रासलां आसतलें. केदाराची कितेंय

चुक आसत अशें म्हाका दिसना. आमच्या पल्लवीचो सभाव तुमी जाणांत. ताचेंच उतर वाकडें गेलां आसूं येता.

सुकडू : गोपिकाबाय, मुखार जांच्यो वांटो सरळ जावपाच्यो आसात तांचें उतर अ तांच वांकडें गेल्यार कशें जातलें ? पल्लवीचें कितें चुकलां म्हणना हांव. केदाराचेंय चुकूं येता. पूण कोणाचें कितेंय चुकल्यार समजिकायेन मांणणेर घालूं येता.

गोपिका : बरोबर. तशेंच जावपाक जाय.

सुकडू : हांव म्हणटा, आमच्या आवय-बापायच्या मनांतलें भुरग्यांच्या कानार घातल्यार कशें ?

गोपिका : मनांतलें कितें ?

सुकडू : म्हणजे तुमच्या मनांत कितें आतां वेगळें घुंवता ?

गोपिका : तशें न्हय सुकडूमाम.

सुकडू : आमच्यांनी मेकळया मनांन उलोवं येता. आयजवेर तशीं उलयत आयल्यांत.

गोपिका : बरोबर.

सुकडू : आयज ह्याच विशयावेर हांव उलोवपाक आयलां. म्हळें, तुमी आमगेर आयिल्लेकडेन विचारच्चेपरस हांगासर येवन विचारप बरें.

गोपिका : बरें केलें. आनीक थोडया वेळान हे येवपाचे जाले.

सुकडू : म्हणजे दिनानाथ आजून येवंक ना ?

गोपिका : ना, ह्या दिसांनी मातसो कळाव जाता.

सुकडू : तशें जाल्यार बरें आसा, हांव आनीक थोडया वेळान दिनानाथ येतकूच येतां.

गोपिका : बसात तुमी, येतले ते.

सुकडू : नाका मागीरूच येतां.
(वचपाक वळटा )

गोपिका : सुकडूमाम, घरांतलें कसलेंय काम करपाचें आसल्यार सांगात. अनमनू नाकात.
(सुकडूमाम वता. गोपिकाबाय अस्वस्थ जाल्या. कांयवेळान भायरसावन दिनानाथ येता. ताच्या हातांत एक व्हड बॉक्स

आसा. दिनानाथ व्हड उमेदीन आसात.)

दिनानाथ : गोपिका, गोपिका.

(गोपिका भानार येता.)

गोपिका : आं, आयज उमेदीशे दिसता ?

दिनानाथ : हांव उमेदी आसांच. पूण तूं अशी चिंतेस्त कित्याक ? कितें घडलां ?

गोपिका : कांय ना. तुमचे उमेदीचें कारण तरी सांगात. आनी हें हातांत कितें ?

दिनानाथ : कॅसेट प्लेयर. आमच्या पल्लवीखातीर. आनीक नव्या गितांच्यो कांय कॅसेटो लेगीत हाडपाचो ताचेखातीर पूण म्हळें, ताचे आवडिच्यो ताणेंच वेंचून काडप बरें.

गोपिका : पूण इतले पैशे खर्च करप परवडलें कशें ? अशें अकस्मात तरी—

दिनानाथ : ताची वेवस्था जाल्या. म्हणजे हो कॅसेटप्लेयर उदारीचेर हाडला. हप्त्याहप्त्यानी दुडू फारीक करपाचे. खरी उमेदीची गजाल मुखारूच आसा.

गोपिका : म्हणजे ?

दिनानाथ : म्हणजे पगार वाडला. काल विद्यालयाच्या मॅनेजमेंटाची बसका आसली. तातूंत संगीत शिक्षकांची आनी वेरस्थापकाच्या वाडटचा पगाराची मागणी मानून घेतल्या.

गोपिका : तशें जाल्यार खूब बरें जालें. आतां हातपाय थोडे सदळ करपाक मेळटले.

दिनानाथ : गोपिका, आमचे हातपांय आंवुळिल्ले आसात ते आसूं आनीक कांय तेप. हाव भुरग्यांचीं मनां सदळ करूंक सोदतां. पल्लवीचें म्हणटां हांव.

गोपिका : पल्लवीचें कितें करपाक सोदतात ?

दिनानाथ : आमचें भुरगें जालें तरी ताचेर आमी शेक गाजोवंक शकनात. पूण ताच्या मनासारकें करपाक शकतात. ताचे कलेक पोसवण मेळपाखातीर ताका आमच्या विद्यालयांत गायनाच्या क्लासांत घालूंया फीची वेवस्था जातली. विद्यालयाच्या

गायन मास्तराकडेन हांव आयज उलोवणी करून आयलां. विद्यालयाच्याच व्येवस्थापकाचें चली म्हण तो खास लक्ष दितलो

गोपिका : पूण सैर-भैर जाल्लें पल्लवीचे मन थाऱ्यार येतलें ? हालीं सरा ताचें कित्याचेरूच लक्ष ना.

दिनानाथ : कलेची गोडी आशिल्ल्या मनशाक ताच्या मनासारकें वातावरण मेळ्ळें ना जाल्यार उदकावीण नुस्तें तशे ताचे घुस्मटमार जातात. पल्लवीचो अवतिकाय तशी जाल्य . ताका समजून घेत्रपाक जाय. (गोपिका वगी रावता.) तूं वगी कित्याक जाली ? उलय न्हय.

गोपिका : आतांच सुकडूमाम आयिल्लो. खास उलोवपाखातीर. तुमी येवंना म्हण परतलो. मागीर येतलो.

दिनानाथ : (चिंतून) म्हणजे... पूण आमच्या मनांतलें आमी भुरग्यांच्या मनाचेर कशें थापूं येता ? तो बळजबरी जातली आनी पल्लवीन तर स्पश्टपणान सांगला... (धीर दीत) गोपिका म्हाका दिसता, न्हय तशी म्हाका खात्रीच आसा. पयलीं पल्लवीची कलेची आवड पुरो जावंदी. एकदां ताचें मन गायनांत रंगलें म्हणटकूच सगळी गुंतवळ सुट्टली. व्हांवतें उदक, उदकावटेन घालून घेता तशें ताचें कलाकाराचें मन निमाणे कलाकारावटेनूच ओडटलें.

गोपिका : ही भाबडी आशा न्हय मू ?

दिनानाथ : नाय जाल्यार आमच्या हातांत दुसरें कितें आसा ?

गोपिका : पल्लवी आनी केदार एकामेकाकडेन उलयनात. खबर आसा न्हय ?

दिनानाथ : खबर आसा. पूण फकत पल्लवी उलयना. केदार उलयता.

गोपिका : खरें म्हळ्यार राग धरपाचो केदारान. अपमान जाला जाल्यार तो केदाराचो पल्लवीकडल्यान जाला.

दिनानाथ : बरोबर.

गोपिका : आनी तो उद्धव, गिरेस्त मेघःशामालो चलो गाडी घेवन पल्लवीक सोदीत ताचे कॉलेजींत पावता खंय !

दिनानाथ : कळ्ळां म्हाका. आनी हेंवूय कळ्ळां.

गोपिका : कितें ?

दिनानाथ : पल्लवी आजून ताचे गाडयेंत बसूना.

गोपिका : तो दीस येवचोना अशें दिसता तुमच्या भाबडया मनाक ?
(दोगांय चिंतेस्त जातात. कांयवेळान भायरसान पल्लवी येता. तें खूब उमेदीन आसा )

पल्लवी : बाबा, बा. बरें जालें तुमी दोगांय आसात घराकडेन.

गोपिका : पल्लवी, आयज बेगीनशें आयलें ? बस रोकडी मेळ्ळी ?

पल्लवी : ना बा, गाडी मेळ्ळी.

दिनानाथ : गाडी ? कोणाची ?

पल्लवी : भायर वचून पळय कोणाची ती.

दिनानाथ : जशी काय आपलीच गाडी जाल्लेभशेन सांगता.
(पल्लवी लजिल्लेवरी करता.)

पल्लवी : बाबा, भायर उद्धव आयला.

दिनानाथ : उद्धव ?

पल्लवी : हय, उद्धव. सदांच म्हाका गाडयेन येवपाक आग्रो करतालो. हावें कशेंच कानामनार घेतलें ना. आयज कशेंच ना म्हणपाक जालें ना. पूण एके अटीर हांव ताचे गाडयेंत बसलें.

दिनानाथ : कसली अट ?

पल्लवी : हावें ताका म्हळें, गाडयेंत येतां पूण तुवें आमगेर येवचें पडटलें. बा आनी बाबाक मेळचें पडटलें. ताणे मानून घेतलें. आतां तो गाडयेंत आसा. हावें ताका सांगलां, बाबाक गाडयेम्हऱ्यांत धाडटा म्हणून. वता न्हय बाबा ?
(गोपिकेक ही गजाल मानवूंक ना अशें दिसता. ती कांय एक जाप करिनासतना भीतर वता.) बाबा, बाक ही गजाल मानवूंक ना अशें दिसता. गाडयेकडेन वता न्हय बाबा ?

दिनानाथ : हें पळय पल्लवी. म्हजें काम जेन्ना कोणायकडेन आसता तेन्ना हांव ल्हानमोटो हाची पर्वा करिनासतना कोणाय म्हऱ्यांत आपूण जावन वतां.

पल्लवी : पूण बाबा, हांगासर ल्हानमोटेपणाचो प्रश्नूच ना. एक

मनीस आमगेर येता –

दिनानाथ : येता जाल्यार ताणे अवश्य येवचें. गरीबाच्या घराक दारां नासूं पूण दरवंज तरी आसतात.

पल्लवी : पूण हांव म्हणटा भायर वचून ताका आपोवपाक अशें कितें सरता ?

दिनानाथ : ताका आपोवपाचोच प्रसंग आयल्यार मार्गावयल्यान कित्याक घराकडेन वचून आपयन,

पल्लवी : आतां ताचो असो अपमान केल्यार मागीर ताच्या घरा वचपाची गजाल सोड.

दिनानाथ : मान आनी सन्मान कितें गिरेस्तांकूच आसतात ?

पल्लवी : ना, तो कोणाय मनशाक आसता आनी तेचखातीर हांव तुका सांगतां, एका मनशाक दुसऱ्या मनशान मान दिवपाचो प्रसंग आयला. तूं तो वगडावं नाका.

दिनानाथ : कितें सांबाळचें आनी कितें वगडावचें तें म्हजें म्हाका बेस बरें कळटा.

पल्लवी : म्हणजे तूं थंय वचना.

दिनानाथ : तुवें ताका थंयमेरेन आपयला तसोच हांगासर आपोवं येता.

पल्लवी : हावें ताका सांगलां, तूं ताका आपोवपाक येतलो म्हण.

दिनानाथ : खंयच्या भरवंशार ?

पल्लवी : एक शिष्टाचार म्हण.

दिनानाथ : शिश्टाचार शिश्टाचारांखातीर आसतात आनी शिश्टपणा दुडवांनी विकतो घेवं नजो.

(इतल्यान दारांत निकी येता )

निकी : पल्लवी, वॉट नॉनसेन्स धीस ? तुज्या बापायची वाट पळयता आनी ताचो पत्तो ना. आमी अशे रस्त्यार रावप ? लोक कितें म्हणटलो ? आनी असो वेळ वगडावप आमकां परवडना. रातची डीनर पार्टी अटेंड करपाक जाय. तेखातीर बंगल्यार वचून कपडे बदलपाक जाय. बाय द वे इज धीस यूवर डॅडी ?

(पल्लवी हयकार दिता. दिनानाथाक तागेलीं आगांतुकपणा

झोंबतात.)
ग्लॅड टू मी यू मिस्टर पल्लवीज डॅडी.
(बळजबरीन हात दिता.)

दिनानाथ : (श्रोसांनी) आतांच पल्लवीक सांगता थंय आशिल्लो – शिश्टपणा दुडवांनी विकतो घेवं नजो. घडकेंत ताचें खरेपण पटलें.

निकी : वॉट डू यू मीन शिश्टपणा ?

पल्लवी : बाबा, तूं समजता तशें न्हय तें. हो उद्धव न्हय.

निकी : आय एम निकी. मिस्टर निकी. उद्धवाज फ्रेंड. फास्ट फ्रेंड' ओके पल्लवी. ऑके डॅड. उद्धव इज कमींग ...
(निकी भायर वता.)

पल्लवी : बाबा, तुजी वाट पळोवन उद्धवूच हांगासर येता. म्हज्यान ताका तोंड दाखोवं नजो. तुका जाय तसो तूं ताका येवकार दी. म्हजी कसलीच हरकत ना.

दिनानाथ : पल्लवी –
(पल्लवी भीतर वता. दिनानाथ काचाबूलसो जाला. आदलेवरीच खंबीर रावपाचो यत्न करता. दारांत उद्धव येता तेन्ना दिनानाथाची ताका फाट आसता.)

उद्धव : हांव भीतर येवं ?
(दिनानाथ हातानूच भीतर येवपाक खुणायता. उद्धव भीतर येता आनी दिनानाथामुखार बागोवन ताच्या पांयांक हात लावन ताका नमस्कार करता. दिनानाथाचीं खंबीरपणां, अचळय सदळ जातात. तो ताका भुजांक धरून तसोच उबारता.)

उद्धव : पयलेच खेप तुमची भेट घडटा. मेघःशाम उसगांवकाराक तुमी वळखता आसतले. हांव तागेलो पूत. उद्धव नांव म्हजें.

दिनानाथ : पल्लवीन सांगला तुमचें नांव.

उद्धव : म्हाका तुमीबो म्हणून कित्याक लज करता ? तूं नाजाल्यार उद्धवूच म्हणात.

दिनानाथ : तसो तुज्या बापायक हांव पयसुल्ल्यान वळखतां. आमच्य

संगीत विद्यालयाचे ते एक ट्रस्टी.

उद्धव : बरोबर. संगीत विद्यालयाचो कारभार पूण तुमी खुबूच बरो चलयतात. आयज विद्यालयाक नांव आसा तातूंत वेवस्थापक म्हूण तुमचो वांटो व्हड आसा.

दिनानाथ : अशें कांय ना, सगळयांचो आदार मेळटकूच सगळयोच गजाली व्हव जातात.

उद्धव : हें तुमचें मोटेपण. आनीक कोणूक जाल्यार उक्तेपणी श्रेयाचो धनी जातलो आसलो.

दिनानाथ : तुमच्या इश्टमित्रांची कोणूय आसल्यार धाडात संगीत विद्यालयांत. आमकांय गरज विद्यार्थ्यांची. आमच्या विद्यालयाची फी तुमच्यासारक्यांकूच परवडपाचो. पळयात कोणूय संगीत कलेचे मोगी आसल्यार.

उद्धव : बरेंबशेन. आसता कोणूय. कळयतां हांव तुमकां.

दिनानाथ : भायल्याभायर विद्यालयांत धाडल्यार जालें.

उद्धव : तुमची धूव पल्लवी त्याच संगीत विद्यालयांत शिकता दिसता.

दिनानाथ : ना. पूण आतां शिकतलें.

उद्धव : अशें ? म्हूणजे शिकचेआदीं इतलें बरें गायता जाल्यार शिकतकूच कितलें बरें गायतलें ! प्रश्नूच ना,

दिनानाथ : (याद जावन) आरे बस, बस न्हय. उबो कित्याक ? तूं आमगेर आयला. पूण घर तसो सोयरो.

उद्धव : तें जालेंच. पल्लवीची आवय घरांत ना दिसता. आसल्यार नमस्कार करतलो आसलो.

दिनानाथ : ना कित्याक ? आसा. (उलो मारून) आयकलां, भायर कोण आयला पळय. मेघःशाम उसगांवकारालो उद्धव आयला तुका नमस्कार करपाक सोदता.

(गोपिकाबाय भायर येता.)

उद्धव : नमस्कार करतां. (नमस्कार करता.)

गोपिका : बरें जांव.

दिनानाथ : मेघःशाम उसगांवकार म्हूणजे आमच्या संगीत विद्यालयाचे एक ट्रस्टी. तांगेलो चलो हो.

उद्धव : पल्लवीचे आई,

दिनानाथ : पल्लवी तिका बा म्हणटा.

उद्धव : तशें जाल्यार हांवूय बाच म्हणटां. जाणां बा, तुमी पल्लवीक बरेंच तयार केलां.

गोपिका : म्हणजे ?

उद्धव : आमी गिरेस्त म्हण आमचे सावळेक पासून उबें रावप ना.

गोपिका : अशें कशें ?

उद्धव : हॉटेलांत च्याक आपयल्यार च्याक येवप ना. गाडयेन लीफ्ट दिल्यार लिफ्ट घेवप ना. वाटेर दोन फावटीं तरी हावें गाडी थारायली. आनी बसपाक हाणें न्हयकार दिलो. वाटेवयल्या लोकां हुजरां म्हाका लज जाली. आमची गिरेस्तकाय होच आमचो व्हडलो दोश थरला.

दिनानाथ : तशें आमचें पल्लवी शिस्तीचें. आवयचे देखीन वाडलां. पूण चार चौगांत तुका लज जाता अशें ताणें कितेंय करप बरोबर न्हय. पूण ताचें कितें आसा उद्धवबाब आमी अशीं गरीब वो मध्यमवर्गी लोक आमच्या भुरग्यांनी अशें तुमच्या सारक्यांचे लगाडीक वचप म्हणजे – लक्षांत आयलें न्हय तुज्या.

उद्धव : हय, आनी तेच संबंदी हांव तुमचेकडेन उलोवपाक सोदी. पूण तशी संदूच आयली ना.

गोपिका : (कड्सरपाक सोदता) हांव भीतर वतां. च्या करतां.

उद्धव : नाका बा, च्या नाका. दुसरे फावट येतां तेन्ना घेतां. हांव कितें सांगता तें वाबावांगडा तुमीय आयकुचें अशी म्हजी इत्सा आसा. म्हजी आवय आशिल्ली जाल्यार तिका हांव उकतेपणीं ही गजाल सांगतलो आसलों. म्हणजे म्हजे आवयक जर हांव ही गजाल सांगपाक शकतालों जाल्यार तुमकांय सांगपाक म्हाका कसली अडचण दिसना. म्हजी आनी पल्लवीची वळख जातकूच आमी जायते फावट एकामेकांक मेयळच्यांत. आमी मेळ्ळयांत म्हणचेपरस हांवूच ताका मेळ्ळां. अर्थांत एकामेकाचे संमतिन. तुमच्या कामार

दितलो तें उद्धवान आनी तुवें थारावचें पडटलें.

पल्लवी : हय पापा, संगीत हांव कशेंच सोडपाक ना. म्हाका तातूनच नांव काडपाचें आसा. गायनाखातीर आपूण सगळयो सोयी सुविधा दितलो म्हण उद्धवान म्हाका उतर दिलां. तांकाय संगीताची खूब आवड. आनी आमची पयली वळख तशीच जाली न्हय.

मेघःशाम : दिनानाथबाब, हें प्रकरण खुबूच मुखार गेलां. म्हाका दिसता आमच्या हातांत अक्षतांबगर दुसरें कांय उरूं ना.

दिनानाथ : आनी आशिर्वाद.

मेघःशाम : बरोबर.

दिनानाथ : बाय पल्लवी, अंदू तुजें कॉलेजचें शिकप जातलें. तूं मुखार शिकतलें ?

पल्लवी : म्हाका संगीतांत लक्ष घालूंक मेळ्ळयार मुखार शिकुंकच जाय अशें ना. तरी लेगीत हांव उद्धवाक विचारतलें. म्हज्या शिक्षणाचो ताका त्रास जावंक जायना.

मेघःशाम : बाय पल्लवी, शिक्षणाचो केन्ना त्रास जायना आं. उरफाटो आदार जाता.

दिनानाथ : बरोबर.

मेघःशाम : अर्थांत तुमचो दोगांयचो मर्जी. दिनानाथबाब, आमी तुमचे चलयेक मागणी घातल्या अशें समजुपाचें आनी जाय जाल्यार तुमी आमकां जाय त्यो अटी घालपाच्यो. आमी कां कूं करपाक ना. कारण आमकां खंयचेय परिस्थितींत चली जाय.

दिनानाथ : तशें मानतलोच जाल्यार तुमी जाले न्हवरेकार. तुमी आमकां हालोवं येता.

मेघःशाम : तुमकां हालयल्यार आनीक आमकां चार चौगांत तोंड आसा?

दिनानाथ : पूण आमकां तांकता तें आमी करपी. अर्थांत स्वखुशयेन. तुमकां खालतेपण भोगता अशें कांय एक जावचें ना. (गोपिकाबाय च्या घेवन येता)

मेघःशाम : (दिनानाथाक) नांव गोपिकाबाय न्हय ? तर गोपिकाबाय,

आतां तुमी भीतर आयतना आमच्या मनांतल्यो सगळचो गजाली उलोवन जाल्यो. आतां उलयतां ती गजाल तुमच्या मनांतली. म्हणजे धुवेच्या आवयच्या मनांतली. तुमी म्हणटली, तुका आवयच्या मनाची सुनशा कशी लागली ? म्हज्यान अशेंय म्हणू येता – हांव बापूय जालों तरी म्हाका आवयचें मन आसा. आतां लग्न बेगीनात बेगीन करप. कारण वायट वा बऱ्या अर्थान आमी गिरेस्त आशिल्ल्यान आमगेर मोटारी आसात. गांवा आनी शाराभायर तरांतरांचे पिकनीक स्पॉट आसात. हॉटेलां म्हण आसात. तातूंत आईस्क्रिमी म्हण आसात...

(पल्लवीक उलोवण्याची मोख कळटा. तें लजता. दोगूय च्या पितात.)

गोपिका : (मेघःशामाक) च्या गोड आशिल्ली न्हय ?

मेघःशाम : गोडूच न्हय, रुचीक लेगीत आशिल्ली.

(शेजारसून अभंगाचे सूर आयकूंक येतात.)

मन जाता पाखरूं पाखरूं
ताका कशें कशें थातारूं
पायांक बंदपास वेढय
कृपेचो रंग पांखार चढय

म्हज्या काळजाची पणटी पेटय
देवा म्हाका आत्मरूपा भेटय

(मेघःशाम चत्रायेन आयकता. दिनानाथ आनी गोपिकाबाय अस्वस्थ जातात.)

दिनानाथ : हो सुकडूमाम. आमचो शेजारी.

मेघःशाम : सुकडूमाम म्हणटात तो आमच्या काळावयलो फाकीवंत भजनी कलाकार. तो तुमचो शेजारी तर, खरेंच भाग्यवान तुमी लोक. असो भक्तीरसाचो वझरो तुमच्या शेजराक खळखळून व्हांवता. बरें दिनानाथबाब, गोपिकाबाय, येतां हांव. हांव जितल्या मेकळेपणान आनी अधिकारान तुमगेर

आयलो तितल्याचं मेकळेपणान आनी अधिकारान तुमी आमगेर येवपाचें. बाय पल्लवी, (मस्कऱ्यो करून) वाट पळयतां तुजी.

(सगळीं ताका दाराकडेन पावपाक वतात. निरोप घेवन मेघःशाम वता. तेन्नाच भायरसून पंकज येता.)

पंकज : बाबा, हो आतां गेला तो भांगर - मनीस आमगेर कसो ?

दिनानाथ : भांगर - मनीस ?

पंकज : हय. भायर लोक ताका भांगर - मनीस म्हण चाळयतात.

दिनानाथ : चाळयतात ?

पंकज : बऱ्या अर्थान. ह्या मनशाकडेन गाडयो आसात पूण हो बसींनी लेगीत भोंवता. हागेले कामदार घेता तसल्या सादच्या सादच्या हॉटेलानी वचून हो च्या घेता. पूण कांजूट म्हणपाक गेल्यार शाळांच्या फंडाक आनी धर्मदाय संस्थांक हजारांनी पटी दिता. असलो भांगर - मनीस आमगेर कसो ?

गोपिका : तुका बेगीन घरा परतय म्हण सांगिल्लें मरे ?

पंकज : पूण म्हाका खंय खबर.

गोपिका : आनी आमकां तरी खंय खबर. सगळें वेपळेंच घडलां.
(गोपिकाबाय पंकजाक घेवन भीतर वता.)

दिनानाथ : (तिच्या फाटोफाट भीतर वचत) हांव म्हणटालों, आतां कांय गजाली आमी स्पश्ट केल्ल्यो बऱ्यो न्हय. (वता.)
(भायर पल्लवी एकटेंच आसा. तें भुल्लुसलां. हांगाथंय नदर मारताना ताची नदर त्या बॉक्साचेर पडटा. तें बॉक्स हातांत घेता. लक्तुबायेन नियाळटा. इतल्यान भायर दारांत केदार येवन उबो रावता. पल्लवीची ताचेर नदर पडटकूच पल्लवी थंयच्यान कडसरपाक सोदता.)

केदार : पल्लवी.
(पल्लवी थारता)
राव पल्लवी. फाटले कितलेशेच दीस तूं म्हजी भेट टाळीत आयलां. नदर चुकयत आयलां. पूण आयज तुका तशें करपाक मेळचेंना. पल्लवी, तुजें कितें जालां ? त्या दिसासावन,

आमी कॅलेजच्या गॅदरींगाक गीत गायिल्लें त्या दीसासावन तूं म्हाका चुकोवपाक सोदता. कितें जालां पल्लवी ?

पल्लवी : तुका सांगूकच जाय अशें बंधन आसा ?

केदार : तुजेर तशें बंधन घालतलो हांव कोण ? पूण म्हज्यान तुका अधिकारान विचारूं येता.

पल्लवी : खंयच्या अधिकारान ?

केदार : पल्लवी तुज्या सुखदुःखाकडेन म्हजो कसलोच संबंध ना ?

पल्लवी : तुज्या सगळयाच प्रश्नांच्यो जापो दिवपाक हांव बांदिल्लें ना.

केदार : पूण तुका एक गजाल सांगपाक हांव मजबूर आसां. ती कितलीय कोडसार लागली तरी तुका ती सांगपाकूच जाय.

पल्लवी : सांग.

केदार : तुजो निर्णय बरोबर ना.

पल्लवी : खंयचो निर्णय ?

केदार : ज्या उद्देशान तुवें लग्नाचो निर्णय घेतला.

पल्लवी : खंयचो उद्देश ?

केदार : तुका दिसता, कलेचेर मोग करपी मनशावांगडा आपणे लग्न केल्यार आपणाले कलेक उत्तेजन मेळटलें.

पल्लवी : कितें चुकलें तातूंत ?

केदार : मुळांत असल्यांचो कलेवयलो मोगूच तकलुपी.

पल्लवी : आसतूयवी.

केदार : आसतूय न्हय, आसताच. तांकां कला न्हय, फकत कलाकार आवडटात. आनी तितल्यान भागना. कलाकाराक आपणाले मर्जेंत दवरप तांकां चड आवडटा.

पल्लवी : पूण कलाकार तांचे मर्जेंत रावलोना जाल्यार ?

केदार : तशें घडप शक्य ना. एकदां तांच्या सापळयांत सांपडटकूच मागीर गचीच अंदता.

पल्लवी : तुका कसलो अणभव आसा ?

केदार : म्हाका प्रत्यक्ष अणभव नासूं. पूण दाखले आसात.

पल्लवी : सगळयांक एकाच मापान मेजता तूं.

केदार : ना. पूण आपणे विखाची परीक्षा घेवचीच कित्याक ?

पल्लवी : आनी विखाची परीक्षा घेवपाचीच खर इत्सा आसली जाल्यार?

केदार : (अकस्मात पल्लवीचो हात घट धरीत) ना, हांव तुका असो आत्मघात करपाक दिवचोना.

पल्लवी : म्हाका आत्मघातापासून राखण दिवपाक सोदप्या तुजें अंतस्करण नितळ आसा न्हय ?

केदार : म्हणजे ?

पल्लवी : तूं म्हजी राखण करपाक मुखार सल्ला काय म्हाका गिळपाक ?

केदार : आं ?

पल्लवी : हात सोड म्हजो. तुज्या हातांत रावपाची इत्सा ना म्हाका. हावें म्हजे इत्सेन म्हजो हात म्हाका जाय ताच्या हातांत दिला.

केदार : पल्लवी, हांव निमाणचें सांगता, तूं भ्रमांत पडटलें.

पल्लवी : हो भिरांत न्हय, ती तुज्या मनांतली इत्सा.

केदार : हावें तुजेविशीं अशें केन्नाच येवजूंक ना.

पल्लवी : आनी येवजिल्यारय म्हाका ताची कुस्कुटाची पर्वा ना. दुस्वाशी खंयचे कडलो !

केदार : (आड्डून) पल्लवी, -

पल्लवी : (उलो मारून) बाबा, बा भायर येयात.

(दिनानाथ, गोपिकाबाय आनी पंकज धांवत धांवत भायर येतात.)

पल्लवी : ह्या केदाराक धांवडायात हांगाच्यान. हो सैतान जावन म्हजे फाटीक लागला. म्हज्या दुस्वासान हो जळटा. म्हजें सुख हाच्यान पळोवं नजो. तेन्नाय पळोवं नजो आसलें आनी आतांय पळोवं नजो.

(दारांत सुकडूमाम येता.)

पल्लवी : तुमी ह्या केदाराक धांवडावन घालीना जाल्यार हांव व्हाणांनी ताचे पोले फोडपी.

(केदार वचपाक वळटा. सुकडूमाम ताका वेंगेंत काडटा. सगळीं चकाचूर जावन पळयत उरतात. भितरसून जोडगीताचीं उतरां आयकूंक येतात.)

फुटलीं फुटलीं सावरीचीं बोंणां
आनी वाऱ्यार हुबलीं मनां.

(काळोख जाता.)

## अंक - तिसरो

### देखाव - पयलो

(दुसऱ्या अंका उपरांत सुमार एका म्हयन्याचो काळ लोटला, देखाव तोच. रंगमाची उजळटा तेन्ना थंय कोणूच नासता. कांय वेळान पयसुल्ल्यान मोटारसायकलीचो आवाज आयकूंक येता. मोटारसायकल येवन थारिल्ल्याचो आवाज. हातांत हॅल्मेट घेवन पंकज भायरसून येता. तेसरशीं गोपिका भितल्ले कुडींतल्यान भायर येता.

गोपिका : पंकज, फांतोडेर वता तो तूं आतां परतता. फाटले आठ दीस तुजें हें अशेंच चल्लां. सकाळीफुडें च्याचो घोंट तरी घेवन वच्चो.

पंकज : च्या हांव भायले भायर घेतां.

गोपिका : कितें चल्लां तुगेलें हें ?

पंकज : हांव घरांत बसून रावतालों तेन्नाय अशीच विचारताली – कितें चल्लां तुगेलें हें ? आनी आतांय तशेंच.

गोपिका : अरे, ती मोटारसायकल घेवन हांगाथंय भोंवता तूं. हुस्को जांता मागीर. दोनूच चक्रां न्हय रे तिका.

पंकज : तूं तेखातीर भियेता ?

गोपिका : वेळकाळ सांगून येता ?

पंकज : तसो जिवाक सांबाळटा हांव.

गोपिका : तूं एक चलयता तो चलयता. फाटल्यान आनी दुसऱ्या मनशाक कित्याक बसयता ? कितेंय जालें जाल्यार नसतें अपसरण.

पंकज : बा. फाटल्यान दुसऱ्या मनशाक बसयना जाल्यार कशें जातलें ? म्हजें पोट कशें सुटृलें ? आमच्या संवसाराक म्हजो हात कसो लागतलो ? तुका दिवाळेक कापड कशें हाडटलों ? सभा-सुवाळ्याक वचपाखातीर बाबाक नवें धोतर आनी ज्यूदी कशी शिंवतलो ? घाणांक दवल्लेल्यो जाणटेल्यांच्यो वस्ती कश्यो सोडोवन हाडटलों ?

गोपिका : (गोंदळून) म्हणजे मोटारसायकलीर तुज्या फाटल्यान बसता तो मनीस हें सगळें मेळोवन दितलो ?

पंकज : हय.

गोपिका : असो कोण मनीस तर तो ?

पंकज : परमेश्वर !

गोपिका : परमेश्वर ? आनी तुज्या फाटल्यान तुजे मोटारसायलीर ? थुमेकाल !

पंकज : म्हज्या फाटल्यान बसून जो म्हाका दिसपट्टो गिरास दिता तें म्हजें गिरायक म्हणजे म्हजेखातीर तो म्हजो परमेश्वरूच जालो ना ?

गोपिका : (घुस्पून) म्हाका समजूना. (याद करून) एक सांग. बाकीच्या मोटारसायकली सारको तुजे मोटारसायकलीचो रंग कित्याक ना ? तो हळडुवो कित्याक ? शेजारचे लक्ष्मीबायन कुचित्रीपणान म्हाका हो प्रश्न केलो म्हण तुका विचारतां.

पंकज : तिगेल्या कुचित्रीपणांक रजांव आसा.

गोपिका : कसलें रजांव ?
पंकज : हांव पायलट जालों.
गोपिका : पायलट ?
पंकज : हांव पायलट हें जितलें खरें तितलें हेंवूय खरें - ह्या देशाचो प्रधानमंत्री आशिल्लो मनीस एकवेळ पायलट आसलो.
गोपिका : (याद करून) तो विमान चलयतालो न्हय ?
पंकज : हय पूण तोवूय पायलट. हांवूय पायलट. तशीं दोनांयमदीं कांय सारकेपणा आनी कांय फरक आसा. विमान मळबांतल्या मार्गावयल्यान जाल्यार मोटारसायकल जमनीवयल्या मार्गावयल्यान वता. आमकां रोडटॅक्स फारीक करचो पडटा, (वयर बोट दाखोवन) तांकां ना. तांकां धुल्लाची भिरांत नाशिल्ल्यान धवो युनिफॉम चलता आमकां उपकारना. आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, तांची नोकरी आमचो धंदो.
गोपिका : केन्ना आयकूंक नासलें.
पंकज : आतां कितें कितें आयकुचेंच पडटलें. लक्ष्मीबाय जाली. मागीर शांताबाय, आवळाबाय - धवळाबाय.
गोपिका : म्हाका कोणाचें पडूं ना रे. तूं तुज्या पांयार उबो जालो हें खूब जालें. पूण एक सांग, तुवें म्हाका हें आदीं कित्याक सांगलेंना ? तुवेंय सांगलेंना आनी तुज्या बापायनूय सांगलेंना.
पंकज : ना, आमी दोगांयनी मेळून तुका सांगलेंना. पयलीं जोड सुरू जावंदी, मागीर आपशीच कळटलें, अशें बापायन म्हळें.
गोपिका : तुमी थारायता तें म्हाका मान्य. तुका च्या करूं ?
पंकज : नाका, म्हाका एक भाडें आसा. ज्यूस्त वेळार एकल्याक पावतां म्हण सांगलां. वचपाक जाय.
गोपिका : म्हणजे सुशेग म्हण ना तर ?
पंकज : भाडें नासल्यार मागीर सुशेगच सुशेग आनी पोटाक जाळां
गोपिका : दनपारां जेवपाक तरी पावतलो ? कांय काल-पयर केलां

तशेंच करतलो ?

पंकज : वेळ मेळ्ळयार येतलों नाजाल्यार भायरूच जेवतलों.

गोपिका : दनपारां जेवपाखातीर हेवूय नासतात. तुवूय नासता. म्हाका एकलेखातीर कित्याक म्हण रांदप ! तुमी भायर सरतकच घरांत किण्णा पडटा. शेजरा सुकडूमामाची एक जाग आसताली. तिवूय ना.

पंकज : केदाराचोय पत्तो ना.

गोपिका : तो सांगून गेला. येतलो केन्नाय.

पंकज : बा, सुकडूमामाक हांवें उतर दिल्लें, भजनाखातीर ताका जाय थंय व्हरून हाडटां म्हण. म्हजी मोटारसायकल येवचे आदींच सुकडूमाम गेलो. हावें उतर पाळ्ळें, सुकडूमामान पाळ्ळें ना.

गोपिका : सुकडूमामाकूय आमी उतर दिल्लें पूण उतर पाळपाक जालें ना. अदींमदीं म्हज्या सपनांत येता तो. मुखार उबो रावता. एक उतर उलयना आनी दोळे मेटून घेता. दनपारच्या पारा लकण येता तेन्ना कानांत तागेल्या त्या भजनाचेच सूर आयकूंक येतात. तोच ताळ, पखवाजाचो आवाज. केन्ना केन्ना जागेपणीं लेगीत तसोच भास जाता. आतां आतांय लेगीत.

(गाडी येवन थारिल्ल्याचो आवाज.)

पंकज : ना बा, हो आवाज गाडयेचो.

(भायर पळयता.)

गोपिका : गाडी ? पल्लवी न्हय मूं

पंकज : हय पल्लवीच,

गोपिका : पल्लवी ! म्हजी धूव ! पोराचें तोंड पळल्यार म्हयनो जावन गेलो. लग्नाउपरांत आयलेंच ना. आयज कुळारची याद जाली. एकलेंच आयलां काय घोव आसा बरोबर ?

पंकज : एकलेंच आसूंक जाय.

गोपिका : आरे पळयता कितें ? ताका भीतर घेवन यो.

पंकज : बा, म्हाका वेळ जाता.

गोपिका : आरे, तुजी एकुलती एक भयण. पयलेच खेप कुळरा येता.

पंकज : बा, हावें तुका आदींच सांगलां, हावें एकल्याक वेळार येवपाचें उतर दिलां ताचो विश्वासघात जातलो. हांव रोकडो येतां.

(इतल्यान भायरसून पल्लवी येता. लग्न जाल्ले बायल-मनशेचो भेस. घरंदाजपणाची सया मारता. सभावान गर्विश्ट जालां)

पल्लवी : पंकज, तुका वचपाक मेळचें ना.

पंकज : म्हणजे ?

पल्लवी : म्हणजे हांव हांगासर रावपाक येवंना. एके गजालीचो सोक्षमोक्ष लावपाक हांव हांगासर आयलां. तेखातीर तुजी गरज आसा.

पंकज : ताई, हांव वतां आनी कांय वेळान परत येतां. तूं पयलेच खेप घरा आयलां हाचें कितें म्हाका भान ना ?

पल्लवी : तुका जायत्या गजालींचें भान ना. देखून म्हाका हांगा येवचें पडलें.

गोपिका : अशें म्हणू नाका बाय. हें घर तुजेंच आसा. तुवें जाय तेन्ना येवपाचें – जाय तेन्ना वचपाचें.

पल्लवी : तें आतांच थरतलें.

गोपिका : पंकज, तें इतलो हट धरता जाल्यार वचूं नाका न्हय.

पंकज : ना, म्हाका वचूंक जाय.

पल्लवी : हरशीं म्हण तुका केन्नाच म्हजी पर्वा नासली.

(पंकज नाईलाज जावन हॅल्मेट उखलता आनी भायर सरता. गोपिका ताच्या फाटोफाट वचून ताका सांगता –)

गोपिका : वताच जाल्यार हांच्या ऑफिसाकडल्यान वच. पल्लवी घरा आयलां म्हण सांग.

(मोटारसायकल स्टार्ट जावन पयस गेल्ल्याचो आवाज.)

गोपिका : (पल्लवीक वेंगांत काडून) म्हज्या शाण्या, इतले बेगीम आवयक विसल्लें ? म्हजी सोड. तुज्या बापायचीय तुका याद येना ? निदान आमचो हुस्कोय जायना. तुजे यादीन

जीव वयर सकयल जाता.

पल्लवी : म्हजी चींता - हुस्को करपाची गरज ना. हांव सुखान आसा.

गोपिका : आसूंकच जाय. तरीलेगीत आवय बापायचें काळीज ! पोटच्या पोराचे यादीन तें कळवळ्ळे बगर कशें रावत ? लग्न जायनाफुडें थंय कोणागेर रावपाक गेल्लीं तीं केन्ना आयलीं ? गेल्ल्याचें कळिल्लें. आयिल्ल्याचें कळ्ळें ना.

पल्लवी : कोणागेर ?

गोपिका : त्या कोणा हनिमुनागेर.

पल्लवी : (समजून) आयलीं वचून

गोपिका : कोण तो मुसलमान ?

पल्लवी : न्हय. फाॅरेन.

गोपिका : जांव कोणूय, बरेबशेन वचून आयलीं म्हणटकच जालें. आमचो जांवय कितें म्हणटा ?

पल्लवी : (उबगून) अभंग !

गोपिका : अभंग ? (याद जावन) पल्लवी, अभंग म्हणपी गेलो ह्या संवसारांतल्यान. तुजो सुकडूमाम गो.

पल्लवी : खबर आसा म्हाका.

गोपिका : तुजो मांव लाकूड घालपाक आयिल्लो खंय मसंडेंत.

पल्लवी : हय. सांगऽ म्हाका.

गोपिका : तूं केदाराक जाप करपाक येतलें अशें धरिल्लें.

पल्लवी : हय.

गोपिका : पूण आयलें ना.

पल्लवी : येन दिसलें ना. आनी आतांय त्या कामाखातीर हांव येवंक ना.

गोपिका : केदार नासता हांगा.

पल्लवी : नासू

गोपिका : पत्तो दवरून गेला. पत्र बरोवन भुजवण दितलें जाल्यार दी.

पल्लवी : म्हाका ताची गरज दिसना,

गोपिका : तुजी मर्जी.

(गोपिकाबायक कितें उलोवचें तें कांय कळना. कांय वेळ

दोगांय वग्गी.)

गोपिका : (आपूण जावन) तुजो मांव कसो आसा ?

पल्लवी : बरो आसा. मांव बरो आसा, मांय बरी आसा–

गोपिका : तुका मांय खंयची ?

पल्लवी : आसा एक पयमुल्ली बापोलमांय. तिवूय बरी आसा. घरांतलीं सगळीं बरीं आसात. नोकर-चाकर तेवूय बरे आसात.

गोपिका : अशें ! म्हणटकच बरें ना तें तूं तर !

पल्लवी : हांव ?

गोपिका : उलयता ताचेवयल्यान कळना ? तोंडांत इंगळे दवरूनआयलां.

पल्लवी : बा, काळजाक हुलप पेट्टकच तोंडांत आपशींच इंगळे रसरसतात.

गोपिका : कोणें घातलो काळजाक हुलोप ?

पल्लवी : तुमी

गोपिका : आमी ?

पल्लवी : हय, तुमी. तुमी म्हाका लजेक म्हारग केलें.

गोपिका : लग्न जाल्ल्याक आमी तुजें तोंड पयलेच खेप पळयतां. आनी लग्न तूं तुजे मर्जीन जालां.

पल्लवी : हेंच हेंच नसाय तुमकां.

गोपिका : ना बाय पल्लवी. तुज्या सुखांत आमी आमचें सुख मानलां.

पल्लवी : तशें जाल्यार आता म्हज्या भल्लेल्या सुखांत तुमचो मिठाचो खडो कित्याक ? तो तो म्हज्या फाटल्यान जावंकूच नासलो जाल्यार हांव सुखान जियेतलें आसलें.

गोपिका : पल्लवी, कोणाविशीं अशें उलयता तूं ?

पल्लवी : पंकज.

गोपिका : कितें केलें ताणे ?

पल्लवी : तो गांवभर भोवून लज काडटा ती खबर ना तुका ?

गोपिका : म्हाका जसो तुजो भरवंसो आसा तसो ताचोय तितलोच भरवंसो आसा. आप्तइश्टांक खालतेपण भोगता असलें कसलेंच काम तो करचोना.

पल्लवी : सगळी घाण जातकच आनीक तूं बयल्यान निर्वाळो दिवं नाका.

गोपिका : ना गो. खऱ्यांनीच गुणाचो म्हजो पोर. आतां आनी आपल्या पांयार उबो रावला. खाणाजेवणाक लेगीत उसरपत नासता. आतां तुजें मन मोडून गेला तो तवनासपणां करपाक न्हय, धंदयाक गेला.

पल्लवी : म्हणजे तुका खबर आसा तर ताच्या धंदयाची. .

गोपिका : हय. आयजूच सांगलें ताणे म्हाका. म्हाकाय खबर नासली पायलट जाला.

पल्लवी : विमानाचो ?

गोपिका : न्हय गो. मोटारसायकलीचो.

पल्लवी : तागेल्या धंदयाचें स्वरूप खबर आसा न्हय तुका ?

गोपिका : स्वरूप म्हणजे ?

पल्लवी : तुजो पूत हळडुवी मोटारसायकल घेवन भर बाजारांत एका कोनशार उबो आसता. ताचेसारके आनीकूय जायते मोटार सायकलवाले आसतात थंय. बाजारांतल्यान पासार जावपी दर एकल्याक हे बोटांनी विचारतात, 'पात्रांव, तुका पावोवं ? ' एका मनशान मान हालयल्यार हे दोगचौगजाण मोटारसायकल स्टार्ट मारतात आनी ताचे भोंवतणी पावतात एक दीस पंकजाक उद्धवाच्या इश्टान निकीन पळयलो. येवन उद्धवाक सांगलें. उद्धवान खरें मानलें ना. फाटल्या सप्तकांत उद्धव बाजारांत गेल्लो जाल्यार पंकजान थंय उद्धवाकूच बोट दाखोवन विचारलें.

गोपिका : वळखूना आसतलो.

पल्लवी : उद्धवान पळयलें ना पळयलेशें केलें आनी थंयसावन कडसरलो तेन्नासावन उद्धव म्हजेर रागार फुगार जावन रावलो शेवटाक हावें खोदून खोदून विचारतकच ताणे सगलें सांगलें. हावें खूब पासियेंस काडले. ह्या दिसांनी उद्धव काम खातीर भायर गेला. सप्तकभर तरी आसचोना. ती संद सादून हांव हांगा आयलें.

गोपिका : बरें केलें.

पल्लवी : कितें बरें केलें ?

गोपिका : तूं म्हणटा तसो कितें तो सोक्षमोक्ष लावन बच. म्हाकाय हो असलो धंदो म्हण खबर नासली. तरी बापूयपुतान इतले दीस जाले म्हाका पत्तो लागूंक दिलोना.

पल्लवी : धंदोच करतलो जाल्यार कितें आनीक दुसरो धंदो नासलो ? उद्धवान हेंच विचाल्लें म्हाका.

गोपिका : उद्धव बरोच रागार जाला आसतलो न्हय ?

पल्लवी : बऱ्याक बरो तितलोच वायटाक वायट तो. ताका असल्या गजालीची संवंय ना, आनी बा, ताचो म्हण गुन्याव ना. त्याच बाजारांत आमचीं हार्डवेअरचीं दुकानां आसात. त्याच बाजारांतल्यान आमच्यो गाडयो भोंवतात. पसऱ्यावयले नोकरचाकर, गाडयांचे ड्रायवर तांचेंय वावरप त्याच बाजारांतल्यान.

गोपिका : सामकीच लज वचपाची खरी. असलें काम करपाचेंच जाल्यार अशें चारचौगांत न्हय. खंयय लोक ओक ना थंय बसून करपाचें.

पल्लवी : हांव म्हणटां असलें काम करचेंच कित्याक ? उद्धवाक सांगल्यार तो ताका खंयूय बरेशे नोकरेक लायत. आमगेर नोकऱ्यो नात म्हण न्हय. पूण आमच्या दुकानांत नोकरी करप पंकजाच्या स्वाभिमानाच्या आड येतलें.

गोपिका : खरें, तो एक बापाय आनी पुताच्या नाकार आसता.

पल्लवी : तशें हांवूय स्वाभिमानी पूण म्हजो स्वाभिमान कोणाचे प्रतिष्ठेच्या आड येना.

गोपिका : एकदां प्रतिष्ठीत घराण्याकडेन नातें जुळ्ळें म्हणटकच आपणेय तेच प्रतिष्ठेन जगपाक जाय. पुताक एक कळना. पुताच्या बापायकूय कशें कळना काय म्हणटां हांव. तुज्या बापायचे नोकरेविशीं उद्धवाची कसली कागाळ ना मगो ?

पल्लवी : ना, वयल्यान तो बापायची तोखणाय करता. तांकां लागून 'स्वरसुधा' संगीत विद्यालय वेवस्थित चलता अशें ताचें

म्हणणे.

गोपिका : पळय, बरें बायट पारखुपाक कळटा. हाका म्हणटात मनीस. नाजाल्यार हो पंकज शिक्षणांत गतो . ना म्हण शिकूंक पावलोना आनी आतां हें
(दारांत दिनानाथ येता. ताकतिकेन आयला.)

गोपिका : जांब, बापायक तरी रकाद दिलो. (घोवाक) पळयात, पल्लवी कितें घेवन आयलां तें.

दिनानाथ : (उमेदीन) पल्लवी, हांव जाणाच आसलें, तूं येतलें म्हण. कसलें आमंत्रण घेवन आयलां ते आनीक सांगपाक जाय ?

गोपिका : तसलीं आमंत्रणां-निमंत्रणां घेवन येवना तें.

दिनानाथ : तुका कांय खबर ना जाल्यार तूं मदीं कित्याक पडटा ? म्हाका सगळें खबर आसा म्हण हांव उलयतां. भायर सगळ्याक हीच चर्चा चलल्या. पल्लवीचें नांव सगळ्यांच्या तोंडार घोळटा. म्हाकाय अभिमान दिसता आयकून. पल्लवी तूं लोकांच्यो अपेक्षा पूर्ण कर. कार्यक्रम बरो जावंदी.

गोपिका : हो कसलो कायक्रम ?

पल्लवी : बा, आर. के. कॉलेजच्या फंडाखातीर एक ऑर्केस्ट्रा दवरला.

गोपिका : म्हणजे तूं शिकतालें तें कॉलेज !

पल्लवी : हय. त्या कॉलेजची भाजो विद्यार्थिनी म्हण हांव त्या ऑकेस्ट्रांत वांटो घेता.

दिनानाथ : फकत वांटो न्हय, ऑर्केस्ट्राची मुखेल गावपी म्हण पल्लवीचें नांव आसा. शारांत सगळ्याक पोस्टर लागल्यात.

पल्लवी : ते अशेतरेन जायरात करत म्हण म्हाका खबर नासलें. हांव कोण प्रेफेशनल गावपी न्हय.

दिनानाथ : नासलें म्हण कितें जालें ? तूं कितें उणे ना. आनी तांच्या फंडाचो प्रश्न आसा न्हय. मुखावयल्यो तिकेटी खंय सोंपल्यो. पल्लवी आमच्या 'स्वरसुधा' विद्यालयांत गरीब भुरगीं आसात. तांकां तुमगेल्यो तिकेटी झेपपाच्यो नात. तूं एक चार चलया भुरग्यांखातीर पासाची वेवस्था कर.

पल्लवी : बाबा, तो संगीताचो कार्यक्रम जालो तरी गरीबांखातीर

म्हय. तुमकां चार पास दिवप म्हणजे कितले पैशे बुडप !

दिनानाथ : तेंवूय खरें. तशें जाल्यार आमकां आनी तूं आमंत्रण दिवपाक कित्याक आयलां ?

पल्लवी : कोणे सांगलें तुमकां हांव तुमकां आमंत्रण घेवन आयलां म्हण ? तुमकां येवपाचें आसल्यार तिकेटी काडून येयात. तिकेटीचे पैशे हांव दितां.

दिनानाथ : ना, आमकां येवपाचें ना. तूं कश्ट घेवं नाका.

गोपिका : तो केदारूय त्याच कॉलेजचो विद्यार्थी न्हय, मागीर ताका कित्याक आपोवना गावपाक ?

दिनानाथ : तो ऑर्कैस्ट्रा श्रीमंतानी पळोवपाचो आनी श्रीमंतांनीच तातूंत गावपाचें आसतलें देखून केदाराक आपोवना जातलो.

पल्लवी : बाबा, तूं संगीताची वळख आशिल्लो मनीस. तुका हें उलोवप सोबना· संगीत कलेंत गूण पळयता पैशे पळयना.

दिनानाथ : इतलीं वर्सां हांव अणभव घेतां ताचो.

पल्लवी : ऑर्केस्ट्रांत हांव गायतां ताचे खोशयेपरस केदार कित्याक गायना हाचें दुख्ख तुमकां व्हड.

दिनानाथ : केदाराचो विशय हावें काडूंना. तुजे आवयन काडला. तो पोर आसा थंय सुखान आसचो इतलीच म्हजी इत्सा.

पल्लवी : जाचेकडेन रक्तमासाचें नातें ना ताचेखातीर तुजें काळीज इतलें कळवळटा. मागीर आपल्या मनशाखातीर कळवळेबगर कशें रावत !

दिनानाथ : नातीं रक्तान जुळनात, आपलेपणान जुळटात.

गोपिका : (वैतागून) कुवाडयांची भास सोडात आनी सरळ सरळ उलयात.

(भीतर वता. कांय वेळ दोगांय वगी.)

दिनानाथ : आमचो जांवय कितें म्हणटा ?

पल्लवी : फाटल्या दिसांनी कामांखातीर भायर गेला. आनीक एक सप्तकभर भायरूच उरतलो.

दिनानाथ : म्हणून तुका येवपाक फुरसत मेळ्ळी दिसता.

(पल्लवी वगीच रावता.) पंकजान सांगनाफुडें हांव तसोच

आयलो. कितेंतरी आसलेबगर तूं अशें अकस्मात येवचेंना म्हण खबर आसलो. कार्यक्रमाचें आमंत्रण दिवपाक आयलां आसतलें असो दुबाव आयलो खरो.

पल्लवी हांव पंकजाखातीर आयलां.

दिनानाथ : बरें दिसलें ! जांव भयणीक विसर पडूंना आपल्या एकुलत्या भावाचो.

पल्लवी : हांव सोयरीक घेवन येवना ताका.

दिनानाथ : ताची घडये गरजूय नासत ताका.

पल्लवी : ताका गरज आसचीच ना. फाटफुडो चिंतीनासताना तो कोणाय रस्त्यावयले चलयेक माळ घालून घरांत हाडपाक आसा.

दिनानाथ : चलयो अशोच रस्त्यार आसतात तर ? तुंवूय चलयांचेच जातीचें म्हण विचारतां.

पल्लवी : म्हाका जात लागना. प्रतिष्ठा लागता.

दिनानाथ : रस्त्यावयल्या मनशांक प्रतिष्ठा नासता म्हण कोणे सांगलें तुका ?

पल्लवी : रस्त्यार उबो रावन तोंड पसरता, हात पसरता तांक प्रतिष्ठीत म्हणना.

दिनानाथ : कोण म्हणना

पल्लवी : कोण म्हणना म्हणजे निदान हांव तरी म्हणना.

दिनानाथ : तूं म्हणजे सगळो समाज न्हय, तूं म्हणजे सगळो संवसार न्हय. समजलें ? आनी तुज्यो प्रतिष्ठेच्यो कल्पना आज वेगळ्यो जाल्यात. काल त्यो वेगळ्यो आसल्यो. काल तूं निखटचा दोळ्यांनी संवसार पळयतालें. आयज तूं वक्लांतल्यान तो पळयता. ते फ्रेमीचे चौकटीभायर कितें आसा तें तूं पळोवपाक सोदिना.

पल्लवी : घडये नासतूय हावें म्हजी चौकट आपूण जावन स्विकारल्या. ते चौकटींत रावपाक म्हाका आनंद आसा.

दिनानाथ : तशें जाल्यार दुसऱ्याचे चौकटीची उस्तवारी करपाचे भानगडीक तुवें न पडिल्लें बरें.

पल्लवी : हांव कित्याक आयलां ताची कल्पना आसा तर तुकां.

दिनानाथ : तूं अमक्याच खातीर आयलां हाची खात्री नासली. पूण कल्पना आसली. अखेर म्हजेच वालीचें फळ. तें कितलें गोड आनी कितलें तोरट तें दुसऱ्यान सांगपाची गरज ना.

पल्लवी : बाबा, तूं इतलो कोडूक जायत अशी हावें अपेक्षा बाळगूं नासली.

दिनानाथ : भुरग्यांकडल्यान अपेक्षा बाळगुपाचे दीस आमचे. तुमचे भुरग्यांचे न्हय.

पल्लवी : म्हजें एक सोड. हांव चली जालें कोडू वीख कमंडळ. पंकजान, तुमच्या पुतान केल्यो तुमच्यो अपेक्षा पुर्ण ?

दिनानाथ : धूव-पूत असो भेदाभेद हावें केन्ना केलो ना.

पल्लवी : खबर आसा म्हाका. तुवें आमकां भावभयणाक समान लेखलीं. पूण म्हज्या प्रश्नाची जाप तुवें दिलीना बाबा.

दिनानाथ : बापायक परीक्षेक बसोवपाचो इतलो अट्टाहास ताका नापास करपाखातीर मगो ?

पल्लवी : लोकांचे नदरेन बापूय म्हण नापास जालाच तूं. धुवेची सोयरीक एका गिरेस्तागेर जोडल्या आनी पुताक भाडीं मारपी मोटारसायकलवालो केला.

दिनानाथ : पूण हातूंत हांव खंय नापास जालों तें सांगलें ना. धुवेची सोयरीक गिरेस्तागेर जोडली थंय नापास जालो काय पुताक मोटारसायकलवालो केलो थंय नापास जालो ?

पल्लवी : (मुद्दम) धुवेची सोयरीक गिरेस्तागेर केली थंय नापास जालो. जालें समाधान ?

दिनानाथ : ना. कारण धुवेची सोयरीक हावें बापायन करूं नासली.

पल्लवी : तेंच सलता तुमकां. तुमचे इत्सेप्रमाण हावें दळिद्राक वेंग मारपाची. त्या केदाराकडेन लग्न जावपाचें,

दिनानाथ : तो प्रश्न केन्नाच सोंपला.

पल्लवी : तो प्रश्न सोंपला म्हणून तर हो नवो प्रश्न उप्रासला.

दिनानाथ : खंयचो ?

पल्लवी : तुमचे इत्सेभायर कांय जायना. तुमचे धुवेचें लग्न एका

गिरेस्तालया चल्याकडेन जालां. घोवाघरा तिचे प्रतिष्ठेक बादा येता अशी करणी तिगेल्या कुळारच्या मनशांकडल्यान जावपाक फावना.

दिनानाथ : म्हणजे कितें ?

पल्लवी : म्हणजे पंकज जो धंदो करता, तो आमकां लजेक म्हारग जाता. भयण गाडयेन भोंवता आनी तिचो भाव तिस्कार रावन गिरायकां पुंजायता. ज्याचो भावोजी बाजारांतल्या दोन-दोन दुकानांचो धनी आसा ताचो मेवणो मोटार-सायकलीन भाडीं मारता.

दिनानाथ : (शांतपणान) तुमच्या हार्डवेअरच्या दुकानांत गिरायकां येतात न्हय ?

पल्लवी : हय, पूण आमी तांकां ओडून हाडीना.

दिनानाथ : कोण सांगता ओडून हाडीना ? तुमी दुकानाचेर नांवाचो बोर्ड लायला. ताचेर कसलो कसलो माल मेळटा तें बरयलां. शिवाय तुमी पेपरांचेर जायराती दितात. सणा परबेक हँडबीलां छापतात. नव्या वर्साचीं कॅलेंडरां छापतात. तुमी गिरायकांक आपयतात. गिरायकांक लागों ओडपाच्यो तुमचेकडेन कांय आकर्शक सोयी सुविधा आसात. सदयाक मोटारसायकलवाल्याकडेन त्यो नात इतलोच फरक.

पल्लवी : तुका सकाळ सांज येवपा वचपाक मोटारसायकल मेळटा आसतली म्हणून अशें उलयता.

दिनानाथ : (खोंचून) हय. तुजी गाडी मेळप बंद जाल्ल्याक आतां तोच एक आदार.

पल्लवी : कितेंय गरज आसल्यार तुमी उक्तेपणी सांगू येता.

दिनानाथ : उक्तेपणीच सांगतां, आमकां तुजे दयेची आनी कोणाल्या उपकाराची गरज ना.

पल्लवी : म्हज्या ऑर्केस्ट्राच्या कार्यक्रमाचे चार पास दिवपाचे उपकारूच मागतालो न्हय तूं बाबा ?

दिनानाथ : हय. उपकार मागतालों. पूण म्हजेखातीर न्हय. एका काळार म्हजी धूव ज्या दळिद्रांत जियेताली त्या दळिद्रांत

जियेवपी चार चलयांखातीर उपकार मागतालों हांव तुजेकडेन. पूण आतां ताचीय गरज ना. हांव तिकेटांची वेवस्था करतलों.

पल्लवी : पूण म्हाका उपकार जाय तुमचे. म्हाका लजेक म्हारग करूं नाका.

दिनानाथ : तूं कळसाकडेन पावलां आनी सकयले बुनयादीच्या फातराचो तुका विसर पडला. तुज्या कुळारची परिस्थिती तुका खबर ना ? तुज्या बापायक कितें भाटांबेसां आसात ? पूर्वजांचें कसलें काळींग आसा ताचेकडेन ? म्हजी नोकरी तूं जाणां. एकलो हांव कितले म्हण हातपांय धाडायतलो ? तुज्या लग्नांक न्हवरेकाराकडेन आमी सर्त केली ना पूण तांचे बरोबर उबें रावपाचें आमी संवंग केलें तें लेगीत आमकां पेललें ना. नाखयां शिको आयल्यो. आयज म्हयनो जावन गेलो लग्नाक, बापायचे अंदल्ले हात मेकळे जाले काय ना हाची तुवें एका उतरान चवकशी केली ना. आवयचो हुस्को ना. भावाची वासपूस ना. आनी आयज तुजे लटके प्रतिष्ठेक बादा उप्रासल्या म्हण तूं उदेलां. केन्ना न्हय तो पंकज आयज आपल्या पांयार उबो रावला, म्हज्या माथ्यावयलो कितलोसोच भार ताणे आपल्या शिरार घेतला आनी तूं कितें काय म्हळ्यार – पल्लवी, कर्णाकडेन कवचकुंडलांचें दान मागपी इंद्रापरसूय तुजो हेतू दुश्ट आसा. (इतल्यान दारांत पंकज येता )

पल्लवी : बाबा, तुमचेकडेन संभाशणांतल्यान तरी हांव केन्नाच जिखपाचें ना. आनी म्हाका तशी इत्साय ना. उद्धव फुडल्या सप्तकांत घरा परततलो. उद्धवाक हांव कितें सांगू तें सांग.

दिनानाथ : तुजो मर्जी.

पल्लवी : म्हज्या प्रश्नाची ही जाप न्हय.

दिनानाथ : जाप आयकुपाची उमेदूच आसल्यार प्रत्यक्ष पंकजाकूच विचार.

पंकज : (समजायत) ताई, तूं समजता तशें न्हय. आमच्याय धंद्याक प्रतिष्ठा आसा. बायलां लेगीत बसतात आमचे मोटार-सायकलीचेर.

पल्लवी : बायलां ? आसतलीं तसलींच.

पंकज : ताई,

दिनानाथ : पल्लवी, तुजे लटके प्रतिष्टेचो आव मिरयताना तूं तुजेच जातीच्या बायलाचे प्रतिष्ठेचेर शेण फाबुडटा.

पल्लवी : म्हका हेर बायलांचें पडूंना. फकत म्हजें पडलां.

दिनानाथ : व्हदळच्यान तेंच पळयतां.

पल्लवी : फाल्यांच्यान पंकज बाजारांत मोटारसायकल घेवन दिसचोना. (पर्सींतल्यान पैशांचीं बंडलां काडून) सद्याक हे इतले दवरतां. ताणे जाय तो धंदो करचो पूण असलो न्हय.

दिनानाथ : कालमेरेन तूं आमची धूव आसली. आतां तूं दुडवांची धूव जाल्या. दुडवांचे धुवे, ते पैशे उखल. (धपकायत) उखल म्हणटां न्हय. (पल्लवी पैशे उबारता) अशेंच बाजारांत चल आनी त्याच तिरस्कार उबें राव. ह्याच पैशांनी कोणा मनशाक विकतो घेवंक येता जाल्यार पळय. कोणूय विकतो मेळ्ळोच जाल्यार, तो मनीस म्हण जिवो उल्ला जाल्यार पळय. (पल्लवी जाप करिनासताना वचपाक सोदता. इतल्यान भितरल्यान गोपिका भायर येता. तिच्या हातांत आदलो कप आसा.)

गोपिका : बाय पल्लवी, केदारान दिल्लो. तुजेकडेन दिवपाक घे. (पल्लवी कप हातान वडयता. तो पडटा. गोपिका सांवरता.)

गोपिका : केदारान अशेंच म्हणिल्लें. तशेंच तुवें केलें. (दारांत मेघःशाम येता. ताच्या हातांत मिठायेचें बॉक्स आसा.)

मेघःशाम : बाय पल्लवी, कुळारा येतना तूं बोवाळान आयलें, हें मिठायेचें बॉक्स विसरून आयलें. (पल्लवी कांय एक उलयनासतना तडक वता. गोपिका ताच्या फाटोफाट वता. मेघःशाम गोंदळटा. दिनानाथ ताची अवतिकाय पारखिता.)

दिनानाथ : दियात मेघःशामबाब तें मिठायेचें बॉक्स दियात. तातूंतली मिठाय आमकां आवडीन खावपाक जाय. कारण आमकां खबर आसा. मिठाय आमचे धुवेन हाडूंना. धुवेच्या मांवान हाडल्या पूण हेंवूय तितलेंच खरें. तुमच्या सभावइतली तो गोड आसचीना. (दिनानाथ उलयताना कळवळटा, मेघःशाम ताका थातारता. काळोख जाता.)

## देखाव - दुसरो

(पयल्या देखाव्याउपरांत एक सप्तकभर काळ गेला. तेंच दिनानाथाचें घर. वेळ सादारण आमोरेची. भायरसून भक्तिगिताचीं उतरां आयकूंक येता. कोण तरी गायता.

हें निमाणे पालखेचें पेणें,
आतां ना देणें आनी घेणें ॥

ही खूब कश्टली काया
ही व्यर्थच गेली मृगया
हें बदसूर जालें जिणें
दयेच्या सुरताला विणें ॥

नाका पानां फुलांचीं तोरणां
नाका उजवाडाचीं किरणां
नाका प्रेमप्रितीचें शिपणे,
हे कुडीर झेलचें दुखणें ॥

कांयवेळान गोपिकाबाय हातांत निरांजन घेवन भायर येता. कोण गायता ताचें तिका कुत्राडें पडलां ती बरीचशी अजापीत जाल्या आनी कांचवेल्या. निरांजन दवरून ती कोण गायता ताची सुलूस घेता. कांयवेळान गीत सोंपता. भायल्या दारांत एक तरनाटो मनीस येवन उबो रावता. गायक कलाकारांसारको सैल भेस. हो केदार. पूण सहजतायेन वळखूंक येवचोना इतलो तो बदल्ला. गोपिकाबाय ताका वळखूना.)

गोपिका : कोण ? कोण जाय ?

केदार : शेजारी.

गोपिका : शेजारी रावना हांगां.

केदार : खबर आसा. तुमी वळखुना म्हाका ? हांवच तुमचो शेजारी.

गोपिका : (उमेदीन) कोण केदार रे ? कितलो बदल्ला रे पुता, आनी भागला सुद्धां.

केदार : खूब वर्सान आपल्या मनशाक पळयतकच अशेंच दिसता. मायेचो भाग तो.

गोपिका : कसो आसा ?

केदार : तुमच्या आशिर्वादान खूब बरो आसा.

गोपिका : आशिर्वाद आमचे पूण पुण्याय तुज्या सुकडूमामाची. (याद जावन) जाणा केदार म्हाका असोच भास जाता सुकडूमाम ध्येयभान विसरून गायता कसो. आतांय आमोरेर म्हाका भास जालो.

केदार : ना, तो भास न्हय. सुकडूमाम खऱ्यांनीच गायतालो.
(गोपिका अजापभरीत जाता.)
म्हज्या ताळ्यांतल्यान गायतालो. (गोपिकाबायक समजायता.)
हांवच गायतालो ताईबाय. खूब तेंपान घराक आयलों. आंगणांत पांय दवरीनाफुडें आपसूक कंठ फुटलो. पडवेर बसून गायत रावलों.

गोपिका : घराची चावी आसा म्हजेकडेन.

(भितर वचून चावी घेवन येता.)
आत्या पयऱ्यान घर उक्तें करून झाड-लोट करतालीं हांव. (चावी दिता.) घे. घर लागीं आयलां. हात घालपाक जाय. आतां तूं रावतलो मरे !

केदार : ना.

गोपिका : परत वतलो ?

केदार : हय.

गोपिका : मागीर कित्याक आयिल्लो तर ?

केदार : पल्लवीखातीर.
(गोपिकाबाय कांचवेता) पल्लवीच्या कार्यक्रमाखातीर आयिल्लों.

गोपिका : हय. आयज कार्यक्रम तागेलो.

केदार : तुमी गेली ना ?

गोपिका : ना.

केदार : तुमकां आमंत्रण नाशिल्लें तर ?

गोपिका : (गडबडटा) ना. आशिल्लें. पूण गेलीं ना.

केदार : दिनानाथबाब एकटेच गेले तर? काय पंकजूय गेला ?

गोपिका : ना. दोगूय वचूना.

केदार : म्हणजे कोणूच वचूना.
(गोपिकाबाय मान हालोवन हय म्हणटा.)
बरें केलें. इतल्या पयससावन हांव आयलों पूण पावट फुकट गेली. खूब तेंपान पल्लवीचें गायन आयकुपाखातीर आयिल्लों पूण –

गोपिका : तिकेटी आदींच खपिल्ल्यो खंय.

केदार : खपिल्ल्यो पूण म्हाका तिकेट मेळपाक अडचण जाली ना. ब्लॅकांत मात घेवची पडली. हरशीं हांव असले वेवहार करीना पूण पल्लवीखातीर.

गोपिका : मागीर कार्यक्रम पळोवपाक कित्याक पावलोना ?

केदार : थिअेटर हावसफुल्ल आशिल्लें. लोक उमळशिकेन माचयेवयलो पड्डो कुशीक सरपाची वाट पळयताले. पयलें

निवेदन जालें. लोकांनी ताळयांचो गजर केलो. पूण पड्डो कुशीक सरलोच ना. भितरलो बोवाळ मात भायर आयकूंक आयलो. मागीर भायर बोवाळ वरभर बोवाळ.

गोपिका : (अजापान) बोवाळ ? कसलो बोवाळ ?

केदार : म्हाका फक्त बोवाळ पळोवपाक मेळ्ळा. बोवाळाचें कारण सारकें समजूंक ना. जें कितें कानार आयलें तें खरें काय फट म्हणपाची चवकशी हांवें करूंक ना. इतलो बोवाळ जाला, तुमकां कारण कळटलेंच. येतां हांव.

(गोपिकाबायकडली चावी घेता आनी वता. गोपिकाबाय काचाबूल जाल्या. कांयवेळान भायरसावन दिनानाथ येता. तोवूय काचाबूल जाला.)

दिनानाथ : गोपिका, पल्लवीच्या कार्यक्रमाचे सुवातेर बोवाळ जाला.

गोपिका : कसलो बोवाळ !

दिनानाथ : खबर ना.

गोपिका : खबर ना कशें तर ? तुमी भायरसून आयल्यात.

दिनानाथ : पूण हांव कार्यक्रमाक खंय गेल्लों !

गोपिका : गेले ना जाल्यार कितें जालें, निदान चवकशी तरी करपाक कितें जातालें ? कळतपासून म्हजो जीव हांगासर गोळाक लागला.

दिनानाथ : म्हणजे तुकां कशें कळ्ळें तर ?

गोपिका : म्हाका आतांच केदारान सांगलें.

दिनानाथ : केदार आयला ?

गोपिका : हय, खास कार्यक्रमाखातीर आयिल्लो. चावी घेवन घरा गेला. कार्यक्रमाचे सुवातेर बोवाळ जालो इतलेंच ताणें सांगलें. कारण ताका खबर आसूंक जाय. पूण तो सांगूंक सोदीना, अशें कितेंशें म्हाका दिसलें. देवा पाव, बोवाळाचें कारण तोच आसना जाल्यार पुरो !

दिनानाथ : म्हणजे तूं कितें म्हणूंक सोदता ?

गोपिका : हांव कितें म्हणूंक सोदतां ताचेपरस प्रत्यक्ष कितें घडलां तें सोदून काडात न्हय. म्हाका पल्लवीचो हुस्को जाला.

(इतल्यान मोटारसायकलीचो आवाज आनी मागीर भायरसून पंकज येता. आवय-बापूय उमळशिकेन विचारतात.)

दिनानाथ : पंकज कसलो बोवाळ जाला ?

पंकज : पल्लवीताईलो कार्यक्रम सुरू जावंचेआदींच बंद वडयलो लोकांनी तिकेटी परत व्हेल्यो. म्हाका मोटरसायकलीक एक गिरायक मेळिल्लें, तो कार्यक्रम आयोजकांक गाळी फस्ती मारीत गेलो.

गोपिका : पूण कार्यक्रम बंद वडोवपाक अशें घडलें तरी कितें ?

पंकज : कोणाक खबर ! ते श्रीमंताले शौक.

गोपिका : आरे आमचें पल्लवी आसा न्हय रे तातूंत.

पंकज : तातूंत म्हणजे त्या श्रीमंतांत.

गोपिका : तूं चवकशी करून कित्याक येना ?

पंकज : आतां थंय फक्त रित्यो कदेली आसतल्यो आनी चुकून थंय पल्लवीताई आसलेंच जाल्यार म्हाका मोटरसायकलीर पळोवन ताका लज जावचीना ? त्यापरस न गेल्लों बरो.

गोपिका : कोणायकडेन चवकशी करून यो. केदार सांगता जाल्यार पळय. ताका सगळें खबर आसूंक जाय.

पंकज : केदार आयला ? खंय आसा ?

गोपिका : घरा गेला.
(पंकज बेगोबेग भायर वता.) जसो बापूय तसो पूत. दोगांयचें काळीज फातरापरस घट.

दिनानाथ : पूण तुजे धुवेच्या काळजापरस निबर न्हय.

गोपिका : ताच्या निबर काळजाकडेन सर्त लावपाखातीरूच तुमी बापूय-पूत अशे वागतात ?

दिनानाथ : हें पळय, जें कितें घडलां ताका आमी बापूय-पूत कारण न्हय. आसल्यार तुजी धुवूच आसतली.
(इतल्यान गाडयेचो आवाज आयकूंक येता आनी भायरसून पल्लवी येता. तें कार्यक्रमाक गेल्या भेसान आसा. रागीश्ट जालां. ताच्या फाटोफाट ताका समजायत निकी येता.)

निकी : हें पळय पल्लवीभाभी, तुजें अशें वागप नॉट फेअर. सारकें न्हय. सोसायटी कितें म्हणटली ? उद्धवाक हें ऑकवॅार्ड जातलें तो खूब सेंसेटीव्ह. ताका हें मरूंक पुरो जातलें, प्लीज, प्लीज अशें करूं नाकां.

(पल्लवी निकीकडेन आडनदर करता. आवय बापूय काचाबूल अवस्थेन ताचेकडेन पळयतात.)

पल्लवी : (शांतपणान) बाबा, बा तुमचेकडेन एक उपकार मागतां. उपकार म्हळ्ळें म्हण काचाबूल जावं नाकात. पंदरा दिसां आदीं मागपाक आयिल्ले तसले उपकार न्हय.

दिनानाथ : ना बाय, आमी आपूण जावन तुकां केन्नाच अंतर दिवंक ना.

गोपिका : कितें घडलां म्हजे धुवे ?

पल्लवी : तुमी दोगांय मातशी भितर वचात. हांगासर जें कितें घडटलें तें तुमच्यानी भितर रावन आयकूं येता, पळोवं येता. पूण तुमी दोगांय प्रत्यक्ष हाजीर राविल्ली म्हाका नाकां. (बापायक) बाबा, हांव तुमचो स्वाभिमान दुखयतां म्हण जाणा हांव. पूण म्हजेर परिस्थितीच तशी उप्रासल्या. प्लीज बाबा.

निकी : मिस्टर पल्लवीज डॅडी, तुमी तरी ताका समजायात. शी इज ऑन रॅांग वे.

पल्लवी : (ताका दटायत) मिस्टर निकी, तुज्या सारक्या मनशाचें हांगासर कांयएक काम ना.

निकी : काम ना कशें तर ? हांव-हांव उद्धवाचो फ्रेंड. इश्ट.

पल्लवी : उद्धवाक इश्ट नात.

निकी : हांव ? आय एम हीज फ्रेंड.

पल्लवी : न्हय. तूं ताचो चमचो. आनी तुज्या सारक्या चमच्याकडेन हांव उलोवंक सोदिना.

निकी : पल्लवीभाभी, यू आर इन्सल्टींग मी.

पल्लवी : म्हजो अपमान जाला ताचें कितें ?

निकी : हांवें करूना तुजो अपमान. आनी —

पल्लवी : आनी कितें ?

निकी    आनी उद्धवानूय तुजो अपमान करूंना. तूं ताका समजून घे.

पल्लवी : हीच चमत्रेगिरी नाका म्हाकां देटस् वाय आय हेट यू.

निकी : यू कॅन हॅट मी बट नॅाट उद्धव.

पल्लवी : (रागान) चमच्या, म्हज्या दोळ्यामुखावयलो हुंवाळून वच.

दिनानाथ : (पल्लवीक बाय मातशें शांतपणान घे.

पल्लवी : बाबा, प्लीज तुमी बाक घेवन भितर वचात. तुमच्या हुजीर हांवें ह्या निकीचें थ्हाणानी पोले फोडले जाल्यार तुमकां गरजेभायर वायट दिसतलें.

(निकी मारतें घेवन कडसरता. दिनानाथ आनी गोपिकाबाय पल्लवीलागीं वचून ताका शांत करपाचो यत्न करता. पल्लवी तांकां कुरवांनीच विनवणी करून बळजबऱ्यां भितर धाडटा. दोगांय भितर वतात. कांय वेळ पल्लवी एकलेंच अस्वस्थ मनस्थितींत उरता. भायरसावन उद्धव येता. पल्लवीचे अवतिकायेची सुलूस घेता.)

उद्धव : पल्लवी, म्हाका दिसता जें कितें घडलां ताचेर घरा वचून विचार करूं येता.

पल्लवी : हांव तेंच करता.

उद्धव : घरा वचून अशें म्हळें हांवें.

पल्लवी : हें म्हजें घर.

उद्धव : जालेंच. पूण तुजें आनीक एक घर आसा.

पल्लवी : घर आनी बंदखण हातूंतलो फरक आयज कळून आयला.

उद्धव : कालचें घर आयज अकस्मात बंदखण कशी जावं येता ?

पल्लवी : कालचो सभ्य मनीस आयज असभ्य जावंक शकता, तशें.

उद्धव : हांवें जें केलें तीं असभ्यपणा अशें म्हणपाचें आसा तुकां ?

पल्लवी : ना. फक्त असभ्यपणा न्हय, असंस्कृतपणा, उद्धटपणा.

उद्धव : पल्लवी.

पल्लवी : शिकिल्ले मनीस इतले अनाडी आसतात हें खबर नाशिल्लें म्हाका.

उद्धव : आनी शिकिल्ल्या मनशाक आपणाल्यो मर्यादा खबर नासतात म्हणपाचें नकळो हांव.

पल्लवी : हांवें कसल्यो मर्यादा हुपूंक नात.

उद्धव : स्वातंत्र्य म्हणजे –

पल्लवी : स्वैराचार न्हय हें म्हाका खबर आसा.

उद्धव : तशें जाल्यार म्हाका सांगनासतना तुवें ऑर्केस्ट्रांत गावपाचें काम कशें स्विकारलें ?

पल्लवी : तुकां मुद्दम सांगूना अशें न्हय. कामाखातीर तूं भायर गेल्लो ताचे उपरांत ह्यो सगल्यो गजाली घडल्यो.

उद्धव : तुवें म्हाका कळोवं येतालें. फोन करूं येतालो, तार धाडूं येताली.

पल्लवी : म्हाका गरज भाउली ना तशी. पूण हाचो अर्थ म्हाका तुजी पर्वा ना. वो तुजे अस्वडीं हांव म्हाका जाय तें करता असो न्हय.

उद्धव : ताचो अर्थ तसोच जाता. हांवें गायन शिकपाक आनी गावपाक तुकां केन्नाच आडखळ हाडूंना. वयल्यान उत्तेजनूच दिलां,

पल्लवी : ह्यावूय वेळार म्हाका तशेंच दिसलें. तूं कार्यक्रमाक आसचोना हाचे चुटपूटे पडले.

उद्धव : ह्याचखातीर म्हज्या कानार खबर पडनाफुडें हांव काम सोडून धांवत आयलों.

पल्लवी : कार्यक्रम बंद वडोवपाक ?

उद्धव : पूण बंद वडयिल्ल्या कार्यक्रमाचो हुस्को तुकां नाकां. आर के. कॉलेजच्या फंडाक आमी खोंटल्यानी दुडू ओतल्यात. आनी हयाफुडेंय दितले. तिकेटी काडिल्ल्या लोकांचे पैशे परत करपाक लायल्यात. खपिल्ल्या तिकिटां इतकी रक्कम. आनी जाल्लो खर्च हांव आर. के. कॉलेजाक फारीक करतलों.

पल्लवी : पूण दर तिकेटाफाटल्यान गेल्ली लज आनी अब्रू कशी भरून येतली.

उद्धव : ऑर्केस्ट्रांत तूं गायल्याउपरांत वचपी लज आनी अब्रू परस ती परवडली. पल्लवी, कलेची कदर म्हाकांय आसा.

कलेच्या धंद्याक प्रतिश्ठा आसा हेंवूय हांव जाणा. कलेचो बाजार कोणे मांडचो आनी कोणे मांडचो न्हय हाचेर म्हजीं स्पस्ट मतां आसात. कॅबेरे डान्स पळोवपाक आनी रंगून वचपाक म्हाकाय आवडटा पूण तो म्हजे बायलेन केल्लो न्हय.

पल्लवी : तुज्या जिवितांतलो दांभिकपणा स्पश्ट रितीन सांगलो म्हण तुजी तोखणाय पूण कलेचें दर्शन आनी बाजार हातुंतलो फरक तुकां समजना म्हण तुजी काकळूट करीन तितली थोडी.

उद्धव : म्हजे लेखी तूं जें करपाक मुखार सरिल्लें तें म्हळयार कलेचें प्रदर्शन आनी बाजार. तुज्या नावाचेर ऑर्केस्ट्राचे पोस्टर वंटीक लागप, रस्त्याचेर बॅनर हुमकळप, वेगवेगळ्या पॉजींनी तुजे फोटो पेपरांचेर छापून येवप हाचो दुसरो अर्थ कितें ?

पल्लवी : तूं व्यापारी म्हण तुकां अशें दिसता.

उद्धव : हांव व्यापारी हो म्हजो गुन्यांव न्हय. आनी हयाच व्यापाऱ्याक तूं भुलिल्लें.

पल्लवी : आतां म्हजी चूक म्हाका कळून आयली. उसरां जायना पूण शादूर जालें हांव. श्रीमंतीच्या नादांत आनी प्रतिष्ठेच्या बडवाचारांत तुवें एका कलाकाराचो अपमान केला. फक्त एका कलाकाराचो न्हय तुज्या मदांदपणान तुवें समस्त रसिकांचो अपमान केला. हांव एक कलाकार. एक मनीस. हाजो म्हाका स्वाभिमान आसा. दुडवांच्या कागदांनी विक्रयाक वचपी हांव गोरूं न्हय. मिस्टर उद्धव, हांव तुजो त्याग करतां. तुजे म्हजे संबंद आतां सासणाखातीर सोंपलें. (भितरसून दिनानाथ धांवत भायर येता.)

दिनानाथ : पल्लवी, तुवें हें कितें आडायलां ? रागाभरशीं नस्तो अविचार करूं नाकां. भितर तुजी आवय सोसूं नजो जावन कोंसळून पडल्या. पल्लवी, एके चुकोची जाप दिवप म्हळयार दुसरी चूक करप न्हय.

पल्लवी : हांव म्हजी चूक सुदारतां बाबा, चुकीखातीर पांयूच धरपाचे

जाल्यार पयलीं तुमचे धरपाक जाय. स्वाभिमान नावाची वस्त कितें आसता तें म्हाका आयज होलमलें.

दिनानाथ : तुकां स्वाभिमान घाणाक दवर अशें म्हणूना. अविचार करूं नाकां इतलेंच शिटकार्यलां.

पल्लवी : तुमी समजता त्या म्हज्या अविचाराचो आनी स्वाभिमानाचो खूब लागींचो संबंद आसा. बाबा, कोणाची भीड-मूर्वत बाळगीनासताना जे गतीन हांव उद्धवाकडेन ओडून गेल्लें तेच गतीन आतां हांव ताचेपासून पयस सरतां. उद्धव, पन्नास कील लोखण आनी पन्नास किलांचो मनीस हातूंत फरक आसा. तुज्यान वचूं येता. म्हजी वाट पळोवं नाका. घटस्फोटाचे नोटीसेची वाट पळय.

(उद्धव रागान भायर वता.

दिनानाथ : पल्लवी, ताकतिकेन असो निर्णय घेवप बरोबर न्हय.

पल्लवी : बाबा, हांवे हो निर्णय पूर्ण विचाराअंती घेतला. हांव घोवाक सोडून हांगां रावतलें आनी तुमकां जडभार जातलें अशें बी तुमकां दिसना मूं ?

दिनानाथ : ना पल्लवी, त्याखातीर न्हय. तूं सदांच आमचें आसलें.

पल्लवी : नात्यान तुमचें आसलें पूण विचारान न्हय. आतां विचारान तुमचें जावपाक सोदतां.

(भायरसून मेघश्याम येता.)

दिनानाथ : मेघश्यामबाब,

मेघःशाम : (दिनानाथाक) तुमी अपराधी जावपाची गरज ना, दिनानाथबाब. बाय पल्लवी, उद्धवाकडेन लग्न जावपाचो विचार तुजो स्वतःचो आसलो. ताचो आमी स्वीकार केलो. उद्धवाक सोडपाचोय विचार तुजो स्वतःचो. आमी तो न्हयकारूंक सोदीना. आनी न्हयकारून अर्थूय ना. तुटिल्लें लोखंड परतें जोडूं येता पूण भंगलेलीं मनां न्हय. तुजे बरें मागपाचें बाबतींत दिनानाथबाब आनी हांव वेगळे न्हय. हांव तुकां एकूच सुचोवंक सोदतां तूं जावन कोर्टांत घटस्फोट मागूं नाका. उद्धवाक मागूंदी. हांव ताका समजावपाचो यत्न

करतां.

पल्लवी : तुमच्या हेतूपरसूय तुमचीं उतरां म्हाका म्हज्या निश्चेवा-पासून फाटीं सरपाचो मोह घालतात. तुमचो हेतू म्हाका समजलो. उद्धवान आपूण जावन घटस्फोट मागतकच म्हाका कायदेशीररितीन अर्थिक लाब मेळटलो हाची म्हाका जाणीव आसा पूण प्रस्न दुडवांचो आनी पोटगीचो ना. उद्धवाक हांवें आपूण जावन सोडलो हें म्हजे लेखो म्हत्वाचें आसा.

(मेघश्याम वचपाक वळटा. दिनानाथाचो तसोच मोन्यानीच निरोप घेता आनी भायर वता. भितरसून दोळे पुशीत गोपिका भायर येता. पल्लवीक वेंगान काडटा.)

गोपिका : जल्मगांठी सर्गांत बांदतात म्हणटात तेंच खरें.

पल्लवी : बा, घोवाक सोडिल्ले धुवेक पळोवपाक तुकां चड त्रास जातलो ?

गोपिका : देवाच्या मनात आसल्यार तेवूय त्रास जावचेना.

पल्लवी : देवाच्या मनातलें सोड. तुज्या मनात कितें आसा ?

गोपिका : केदार खंय गेल्लो तो आयज तुज्या कार्यक्रमानिमतान आयला.

पल्लवी : अशें !

गोपिका : म्हणून म्हळें हांवें देवाच्या मनात आसा तेंच घडटा. तो तुकां आजून विसरूंना.

पल्लवी : बा,

दिनानाथ : (बायलेक) तूं आनी खंयच्या वेळार कसलो विशय काडटा! कितें धगण आसा काय ना ?

गोपिका : म्हजें कितें चुकलां अशें म्हाका दिसना ?

पल्लवी : बा, एक आवय म्हूण तुजी कितें चूक नासतूय बी. पूण बा, हांवें घोवाक सोडला म्हणजे जगपाचो धीर सोडूना आनी म्हजे चुकीची ख्यास्त हांव दुसऱ्याक कित्याक दितलें ? ती हांवूच भोगतलें.

गोपिका : आनी ताणे हांगां येवन तुकां विचाल्लें जाल्यार ?

पल्लवी : कित्यासंबंदान ?

गोपिका : लग्नासंबंदान.

पल्लवी : बा, लग्न म्हळ्चार सर्कस न्हय. हांव म्हजो एक धाव पेखोवपाक सोदतां जाल्यार तूं दुसरो तयार करपाचो यत्न करता.

गोपिका : तुज्या धायावयलें वखद सुचयता तुका हांव.

पल्लवी : कल्पनेनूच जाळ पडटात.

गोपिका : त्या पोराक कित्याक हांगा थंय विडविडयता, हुल्पायता ?
(इतल्यान भायरसून पंकज येता.)

गोपिका : पंकज, केदाराक हांवें आपयला म्हण सांग.

पल्लवी : बा, हांव हांगच्यान तोंड घेवन वचपी.

गोपिका : (दटायत) पंकज –

दिनानाथ : (बायलेक) तूं कित्याक हो हट धरून बसल्या हांव नकळो.

गोपिका : तो एकदां गेल्यार परत येवपाची आशा ना.

पल्लवी : तो आसा थंय ताचें कल्याण जावंचें !

पंकज : केदार परत येवपाक ना.

गोपिका : म्हणून ताका वचूंक दिवंक फावना.

पंकज : केदार गेलो ?

दिनानाथ : केन्ना गेलो ? खंय ?

पंकज : आतांच हांव ताका रेल्वेस्टेशनार पावोवन आयलां. तो पयस वचपाक गेला. परत येवचोना म्हण सांगलां पल्लवीताई, तुकां ही कॅसेट दिल्या.
(कॅसेट दाखयता)

गोपिका : (विनयत) तुमी ताका परतो कित्याक हाडीनात ?

पंकज : आतां तें शक्य ना, येन्ना गाडी सुटल्या आसतली.
(गीताचीं उतरां आयकूंक येता. तेंच आदलें गीत. पल्लवी आनी केदारान गायिल्ले जोड गीत.)

**फुटलीं फुटलीं सावरीचीं बोणां**
**आनी वाऱ्यार हूबलीं मना**

गीत चालू आसतना मदीं मदीं ट्रेनीची शिटी आनी आवाज आयकूंक येता. काळोख जाता.

# आत्मवंचना

पुंडलीक नायक

"आतां म्हजी चूक म्हाका कळून आयली. उसरां जायना पूण शादूर जालें हांव. श्रीमंतीच्या नादांत आनी प्रतिष्ठेच्या बडवाचारांत तुवें एका कलाकाराचो अपमान केला. फक्त एका कलाकाराचो न्हय, तुज्या मदांदपणान तुवें समस्त रसीकांचो अपमान केला. हांव एक कलाकार. एक मनीस. म्हजो म्हाका स्वाभिमान आसा. दुडवांच्या कागदांनी विक्रयाक वचपी हांव गोरु न्हय. हांव तुजो त्याग करतां. तुजे म्हजे संबंद आतां सासणां खातीर सोंपले."

**फुटलीं फुटलीं सावरीचीं बोणां**
**आनी वाऱ्यार हुबलीं मनां**

अपुरबाय प्रकाशन